○ राजू नायक





# हांव भगवंताचो अवतार

**हांव भगवंताचो अवतार (नाटक)** Havm Bhagawantacho Awatar (Drama)

**राजू भि. नायक,**
श्रीवनदेवी, खोर्ली–मळार, तिसवाडी, गोंय – ४०३११०.

**पयली आवृत्ती :** २००६
**मुखपृश्ट :** पुष्पराज पोपकर.
**टेक्नीकल सपोर्टर :** राजू पवार

**प्रकाशक :** नवरंग प्रकाशन,
कविता नायक, श्रीवनदेवी, खोर्ली – मळार, तिसवाडी, गोंय – ४०३११०

**मुद्रक :** सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम, खोर्ली, तिसवाडी, गोंय. ✆ २२८५८९२

**मोल :** ६० रू.



हे पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर अर्थीक पालव येवजणेखाला छापल

# ...जीवनाचो व्हडलो परीघ

*नाट्यकला हे जनजीवनाचे महत्त्वपूर्ण सांस्कृतिक आनी सामाजिक आंग आसा.*

*नाटक – कोकणी साहित्यांतलो आयचो सामको आधाडीचो, फाकिवंत अस साहित्य प्रकार.*

*कोकणी नाटकान कोंकणी रंगमाची तर समृध्द केल्याच पूण भारतीय रंगमाचयेर ताची दखल घेतल्या. नाटक एक प्रभावी आनी परिणामकारक असो साहित्यप्रकार. ह प्रकारातल्यान जे किते व्यक्त जाता ते प्रेक्षकांच्या मनाचेर खोल ठसता आनी देखू नाटक हो साहित्य प्रकार खूप लोकप्रिय जावपाक पावलो. घरांतलो एखादो मनी साहित्याचो रसिक आसू येता. पूण कुटुंबातलो एकूय मनीस असो आसचोना जाव नाटक आवडना.*

*खंयचीय रंगभूमी ते भाशेवयल्यान वळखतात. ते भाशेत कितले ताकदीची स्वत मौलीक नाटकां निर्माण जाली ताचेवयल्यान ते रंगभूमीचे बळ होलमता आनी तेंच ब हेर रंगमंचाकडेन तुळा करपाक वापरतात. फाटल्या पंचवीस वर्सांच्या काळांत स्पर्धेच निमतान सुमार शंबर मौलिक नाटका कोंकणी रंगमाचयेर आयलीं.*

*आयज कोंकणी रंगभूमी तंत्र–मंत्र आनी सादरीकरण हांचे बाबतीत भारतांतल*

हेर खंयच्याय रंगभूमीपरस फाटी रांवना. ताचे कारण म्हळ्यार हांगा प्राचीन काळासावन कार्यरत आशिल्ली लोकरंगभूमी. ह्या संपन्न लोकरंगभूमीच्या बळग्यार आतांची प्रगत रंगभूमी फुडे पावली आसा.

आयज नाटकाच्या मळार नाटककार म्हूण आमच्यामुखार सगळ्यांत पयली उबे रावतात पुंडलीक नायक. अनिरुध्द बीर ऊर्फ उपेंद्र तिंबलो, दत्ताराम कामत बांबोळकार, भरत नायक, विष्णु वाघ, प्रकाश वजरीकार, राजय पवार. आतां ह्याच वळेरींत राजू नायक हाचेंय नाव आस्पावता.

राजू नायक हो पिंडान पत्रकार. पत्रकार हो समाजाचो एक महत्वाचो आधारस्तंभ! तांतूतल्यान खुपशा गजालींक वाचा फुट्टा. राजू नायकान जें नाटक बरयला 'हांव भगवंताचो अवतार), तातूंत तो नाटककारावांगडाच पत्रकार म्हूण स्पश्ट दिसलो. एका अंधश्रध्देचर ताणें बडी मारल्या. ह्या नाटकांत लेखकान मनशाच्या वृत्ती–प्रवृतीचेर उजवाड घातला. जीवनातल्या वेगळ्या वेगळ्या विशयांक, घटना, प्रसंगाक स्पर्श करीत, मनशाच्या अडचणींक, आशा निराशांक आनी शाश्वत मूल्यांक परिणामकारक रुप दिवपाक नाटककार यशस्वी जाला. जीवनाचो व्हडलो परीघ ताणें ह्या नाटकामदीं हाडला. हे कोंकणी नाटक आसलें, तरुय तें खंयूय घडूंक शकता. ताका भाशेची मर्यादा ना, ताचो हेर भाशांत अणकार जालो, तरी ते नाटक त्या त्या भाशेतलेंशे दिसतले.

सुटसुटीत कथानक, आपलें स्वतंत्र अस्तित्त्व आशिल्ली पात्रां, नेपथ्य सादे सोपे, भाशा ओघवती, उत्कंठा वाडोवपी संवाद ताका लागून या नाटकाचे कितलेशेच प्रयोग जांव येता. तेचवांगडा एक विचारुय हें नाटक दिता. राजून नाटकांतल्यान विचारिल्ले प्रस्न मनशाचें मन हालोवन सोडटा आनी तकली जागी करता.

साहित्य प्रकारांतलो नाटक हो कठीण प्रकार. हें तंत्र सगळ्यांकूच जमताशें ना. कितलेशेंच जाणांक हातूंत अपेस आयलां पूण राजू नायकाक हें बरें सादलां.

रंगमाचयेर आपल्या अभिनयाच्या ताकीर नाटक पेलून धरप हें त्या नाटकाचें जैत जावन आसता. ह्या नाकातल्या 'बाबान) हें जैत या नाटकाक मेळोवंन दिल्ले आसा.

अशी सुंदर संहिता नाट्यप्रेमींक दिल्याबद्दल राजू नायकाचें अभिनंदन!

**–ज्योती कुंकळकार,**

तिवरें–माशेल.

हांव भगवंताचो अवतार ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग २२ फेब्रुवारी २००५ ह्या दिर
खोर्ली–मळार हांगच्या श्रीवनदेवी मुकोबा देवस्थानच्या सभामंडपात सादर जालो. ह्यावेळ
नामणेचे नाटककार पुंडलीक नायक तशेंच ओल्ड गोवाचे सरपंच निळकंठ भोमका
तेन्नाचे जिल्हा पंचायत वांगडी निलेश शिरोडकार, रंगकर्मी नरेश नायक आन
नाटककार राजू भि. नायक हाजीर आसले. पयल्या प्रयोगातले मानकारी अशे आस
:

**लेखक** : राजू भि. नायक
**दिग्दर्शक** : नरेश नायक
**उजवाड** : विकास चोपडेकार
**पार्श्वसंगीत** : राजकुमार साळगावकार
**नेपथ्य** : काकुलो भोमकर
**रंगमंच** : श्री सातेरी रंगमंच, प्रियोळ

## कलाकार आनी पात्रां

**बाबा** : निळकंठ भोमकार
**राजदीप** : राजू भि. नायक
**सदानंद** : नरेश नायक
**प्रेमानंद** : डॉ. किरण केरकार
**सरपंच** : निलेश शिरोडकार
**गजाभाऊ** : दर्शन लोलयेंकार
**इन्सपेक्टर** : हेमंत गोलतकार
**हवालदार** : शांताराम भि. नायक
**गणपत** : पांडुरंग भोमकार
**प्रभाकर** : रोहिदास करमळकार
**मनोज** : विश्वनाथ करमळकार
**दमट** : महेंद्र पर्वतकार
**कायतान** : घनश्याम काणकोणकार
**केशव** : निखील शिरोडकार
**मुन्नाभाय** : कमलाकांत गावकार
**भाटकार** : तुकाराम काणकोणकार
**मधुमिता** : प्रतिभा पर्वतकार
**लक्ष्मण** : विनोद पर्वतकार
**अंजनी** : मनिशा काणकोणकार

### याशिवाय

मनोज काणकोणकार, श्रीधर नायक, संतोष पर्वतकर, मुकेश खांडेपारकार, सिध्दार्थ खांडेपारकार, चिदानंद मडकईकार, शिवचरण कुडिनुर, पांडुरंग कवळेकर, नरेंद्र प्रसाद, मेधा काणकोणकार, मंजिता काणकोणकार.

(पडूडो उघडटा तेन्ना बाबा म्हाराज संप्रदायाच्या मठांत बाबा आसनस्थ जाल्लो दिसता. ताच्या दर्शनाक आयिल्ले लोक फुड्यान बसल्यात. दोनूय वटेनी शिश्य प्रेमानंद आनी सदानंद उबे आसात. सेविका बाबांक वारें घालतात आनी पिवपाक दिता. बाबाच्या पांयांकडेन एक ताट आसून भक्त बाबांक अर्पण करपाच्यो वस्ती आनी पयशे तांतूत दवरतात. दुसऱ्या एका फुलदानांत फुलांच्यो पाकळ्यो आसून भक्तांक आशीर्वाद दितना बाबा ह्यो पाकळ्यो भक्तांचेर उडयता. एके वटेन दिव्य चमत्कारी वस्ती आसात. दर्शनाक आयिल्ले सगळेजाण फुडली आरती म्हण्टात. एक शिश्य आरती ओवाळता. आरतीची चाल 'हे भोळ्या शंकरा, आवड तुला बेलाची, बेलाच्या पानांची...) या मराठी गीताप्रमाण किंवा दुसरी खंयचीय पोशक चाल आसूं येता.)

**हे बाबा म्हाराजा**
**आमी आयल्या दर्शनाक**
**प्रसन्न जा आमचेर...**
**सगळ्यांची दुःखां पयस करता**
**आनी सगळ्यांक खोशी तूं दिता**
**जा आता जा आमचेर, जा आता जा**
**प्रसन्न जा आमचेर...**

**प्रेमानंद** – अनंतकोटी ब्रम्हांडनायक राजाधिराज... आख्ख्या संसाराचो

पालनकर्तो... बाबा म्हाराज की... (सगळे शिश्य 'जय) म्हणत. कांय शिष्य आपल्यामदींच उलोवपाक लागतात) हें पळयात अतां तुमच्यामदी उलोवपाचे बंद करात. बाबांच्या जीवाक बरें ना, तरी ते दर्शन दिवपाक आयले, कारण तांकां तुमची काळजी! अचे बाबा म्हाराज उच्च कुळांत जल्माक आयले आसले तरी तुमच्यासारख्या बहुजनसमाजाची सेवा करप हेंच आमच्या गुरुमाऊलींचे इश्वरकार्य आसा. मुंबय, पुणे, दिल्ली, मद्रास, कोलकाता... खंयची खंची म्हूण नांवां घेवपाची? बाबा ह्या सगळ्या प्रदेशांचे दौरे करीत आसता तरी तांच्या मनांत फक्त तुमचो... गोंयकारांचोच विचार चालू आसता.

**सदानंद –** बाबा म्हाराजान जर मनांत हाडलें तर ते दिल्लीक राष्ट्रपती भवनाच्या सुखात लोळू शकतात. पूण आमच्या बाबांक तें सुख नाका. तें ऐश्वर्य नाका...

**प्रेमानंद –** ऐश्वर्य म्हटल्यार तुमचे ते फिल्मांतले ऐश्वर्या राय न्हय. ऐश्वर्य म्हटल्यार श्रीमंती. बाबांक नाका ती श्रीमंती.

**सदानंद –** बाबांकडेन भरपूर धनदौलत आसा. दवरपाक जागो ना. हें वर्सभर एकठांय जाल्ल्ये सगळें धन बाबान अनाथाश्रमाक दिलां. फाल्यां इंदिरानगरांतल्या भुरग्यांक बाबा कपडे आनी जेवण दिले. कोणूच उपाशी पोटार न्हीदचो न्हय अशें दिसता तांका. आमच्या बाबा म्हाराजांचे एकूच सपन... जावंची सगळ्यांची सगळीं सपनां साकार!

**प्रेमानंद –** तुमच्यामदल्या कितल्याशाच जाणांची व्हडलीं व्हडलीं दुयेंसां बाबान पयस केल्लीं आसाच. बेश्टो हात लावन आनी मंत्र म्हणून बाबान तुमकां रोगानसुन मुक्त करुंक ना? म्हणा... बाबा म्हाराजकी...(सगळेजाण जय म्हण्टात) बाबान आपल्या दिव्य चमत्कारी शक्तीच्या आधाराचेर लाखांनी लोकांची सेवा केल्या. बाबाची किर्ती जगभर पसरल्या. हालींच बाबान अमेरिकेंत जाल्या

सर्वधर्मसंमेलनात हिंदूनेतो म्हणून भाशण केले. तें भाशण जगभर गाजलें. अशें संसाराक हालोवन सोडपी भाशण ह्या पयली फक्त स्वामी विवेकानंदानूच केल्लें.

दानंद – आमच्या बाबांक इंग्लंड, जपान, चीन, रशिया... अशा जायत्या देशांची आमंत्रणां येतात. पूण बाबा खंय वतात? तांकां चिंता फक्त तुमची... गोंयकारांची. बाबांची गोंयचेर चड कृपादृष्टी आसा. कितले भाग्यवान तुमी गोंयकार? म्हणा, बाबा म्हाराजकी... (सगळेजाण जय म्हण्टात) पूण आतां गोंयांत आमच्या संप्रदायाची शक्ती वाडोवपाक जाय. गोंयच्या गांवागावांनी आमची जीं केंद्रां चलतात तीं आनीक नेटान चलपाक जाय. ज्या गांवांनी केंद्रां ना थंय नवी केंद्रां सुरु जावपाक जाय. तशे जालें जाल्यारूच बाबांचे पुण्यकार्य गोंयच्या घराघरांत पावतलें.

बा – आरे प्रेमानंदा आनी सदानंदा, अशें किदें करतात तुमी? हांवें केदेय व्हडलें जरी कार्य केलें तरी हांव म्हान न्हय. म्हान आसात ते आमचे हे शिश्य. म्हान आसा आमचो हो संप्रदाय. म्हान आसा आमचो देश. भारत... इंडिया... हिंदुस्थान... (कांय शिश्य आपल्यामदींच उलयतात) हें पळयात, हांगां म्हजें प्रवचन चालू आसताना तुमी तुमच्यामदींच कमेंट पास करप म्हाका आवडना. म्हज्या ह्या संप्रदायांत डिसिप्लीन म्हत्वाची आसा हें लक्षांत दवरात. हें तुमच्या गावांतले देवूळ न्हय. म्हजो मठ हो. चर्ची... इगर्जी आनी मशिदीनी पळयात. सगळें कशें शांतपणान चलता. आयज हांगां नवे कोण शिश्य आसात तांणी सारखे आयकून घेवचें. म्हजो हो संप्रदाय म्हळ्यार बाकीच्या संप्रदायांसारखो न्हय. म्हजो हो संप्रदाय म्हटल्यार... संप्रदाय विथ अ डिफरन्स! प्रवचनांत आमी इंग्लीश उलयता म्हणून हेर संप्रदायवाले आमची टिंगल करतात. पूण ह्या इंग्लीश भाशेशिवाय कोणूच प्रोग्रेस... आय मीन उदरगत करूंक शकनात. हो आख्खो संवसार काबीज करतलो जाल्यार... जगाचेर आमच्या देशाचो

तिरंगो लायतलो जाल्यार आमी इंग्लीश शिकची पडटलीच. (आपसांत उलोवपी एका शिश्याक प्रेमानंद भायर घालपाक पळयता.) आरे ताका अशे भायर घालूं नाका. आसूं ताका. फुडल्या खेपेक अशी मिस्टेक जावची ना हाची खबरदारी घेयात. आमी हो येदो व्हडलो संप्रदायाचो संवसार उबो केला तो कोणाखातीर? आरे आमचो हो संप्रदाय खंय खंय पावला तें खबर आसा तुमकां? छत्रपती शिवाजी म्हाराजाचो आख्खो म्हाराष्ट्र... सत्य आनी अहिंसेचो पुजारी, बाबा गांधीचो गुजरात... महापराक्रमी शूरवीरांचो राजस्थान... मध्यप्रदेश, उत्तरप्रदेश... सकयल दक्षिणेक चंदनाचे राज्य कर्नाटक, अम्मा जयललीताचें तामीळनाडू, स्वामी विवेकानंदांच्या कन्याकुमारीमेरेन पावला हो आमचो संप्रदाय. सगळेकडेन आमचें कार्य नेटान चालू आसा. गोंयांत मात आमकां जाय तितके यश आजून मेळूंक ना. आतां गोंयांतलें कार्य चड नेटान वाडोवपाचो निर्णय आमी घेतला. आरे कितल्याशाच गोंयकारांच्यो अडचणी आमी पयस केल्यात. तांणी सगळ्यांनी हातभार लावपाक जाय ह्या संप्रदायाक. ह्या अशा मठांसारखे अकरा मठ गोंयांत जावपाक जाय. एका तालुक्याचो एक मठ. गोंयातले सगळे संप्रदाय सामके डावन पडपाक जाय... (सदानंद बाबा म्हाराजकी जय अशी घोशणा दिता. बाबा कनका, मेनका ह्या सेविकांकडे पळयत रावता. तांचे हात कुरवाळता. तांच्या हातांक बांधिल्या फुलांचो वास घेता. कनका बाबांक पिवपाक दिता)

प्रेमानंद – बाबांची पाद्यपुजा करपाचे नियम सदांचेच आसात. पूण परतुन एकदा सगळ्यांक याद करुन दिता. (बाबा प्रेमानंदाक खुणेन आपल्याकडेन आपयता आनी कानांत किदेंतरी सांगता) आनी हें पळयात. एक म्हत्वाची कळोवणी आसा. आयज बाबांच्या जीवाक बरें ना. तेन्ना जे भक्त आयज पयलेच खेप आयल्यात तांणीच आपल्यो अडचणी सांगच्यो. (कांय भक्त आपल्यामदींच कुजबुजून

नाराजी प्रगट करता) कळ्ळें? नेम सांगतां आतां. पाद्यपुजेक जे उदक लागता तें मठातलेंच घेवपाचें. कारण ह्या उदकांत गोंयच्या णव न्हंयांचे उदक आसा. तें गंगेच्या उदकापरस चड पवित्र आसा. मठाच्या भायलें उदक हाडल्यार भगवंताचो कोप जातलो. पाद्यपुजेक फुलां, उजवाती आनी फळांचे ताट मठांतलेंच घेवपाक जाय. फक्त पाचशें रुपयांत ते मेळटा. मठाभायरसून हाडील्लीं फुलां, फळां किंवा हेर कसलेच पदार्थ बाबांक अर्पण करचे न्हय. बाबांक अर्पण करपाच्यो सगळ्यो वस्ती मठांतल्योच विकत्यो घेवच्यो.

**सदानंद –** आयच्या ह्या म्हारगायेच्या उज्यांत तुमी सामके करपून गेल्यात. नोकरी धंदो नाशिल्ल्यान तुमच्या हातान पयसोआडको ना. पैसो नाशिल्ल्यान तुमच्या मुखार दुःखाचो दोंगर उबो जाला.

**प्रेमानंद –** पूण तुमची चिंता पयस करपाक बाबान कठोर तपश्चर्या करुन दिव्य चमत्कारी वस्तु निर्माण केल्यात. त्यो अवश्य विकत घेयात. तांचे दर तुमकां मात्शे चड दिसतलें पूण तशे चड ना तें.

**बाबा –** खरें म्हळ्यार तुमचेकडल्यान पयशे घेवप म्हाका बरें दिसना. पूण किदें करतले? येदो व्हडलो हो संप्रदाय चलोवपाक पयसो जायच पडटा. म्हणून आमकां ह्या दिव्य चमत्कारी वस्तींचे दर वाडोवचे पडलें.

**सदानंद –** ह्यो दिव्य चमत्कारी वस्ती घेतल्यो जाल्यार तुमकां दोन फायदे मेळटले. फायदो नंबर वन, तुमच्यो सगळ्यो कटकटी पयस जातल्यो. फायदो नंबर टू, तुमच्या ह्या दानांसून राष्ट्रकार्य केल्याचे समाधान तुमकां मेळटले. सुनामी भुकंपात जे गांव उध्वस्त जाल्यात त्या गावांक डोनेशन म्हणून हो पयसो वतलो.

**बाबा –** म्हणजे टू इन वन. तुमचो स्वार्थय जातलो आनी परमार्थय. कितले पुण्यवान आसात तुमी गोंयकार? म्हणा... बाबा म्हाराजकी... जय.

**प्रेमानंद –** अशी स्कीम तुमकां आनी खंयच्याच संप्रदायांत मेळची ना. हें पळयात, बाबान बारा वर्सा हिमालयाचेर तपश्चर्या करुन सिध्द

केल्ले दिव्य सुरक्षा कवच... फक्त धा हजार रुपया. (चांदीसारखे चकचकीत दिसपी आनी तांबड्यो निळ्यो लायटी पेटत आशिल्लें जाकीट काडून दाखयता) खंयच्याय परिक्षेत हंड्रेड पर्सेंट पास करपी... गोंयांत पयलो नंबर मेळोवन दिवपी तशेच खोट्यो नोटी वळखुपी पेन. फक्त पाचशीं रुपया. (लायटी पेटपी वेगळेंच पेन काडटा) क्रिकेटीन सचिन तेंडुलकरासारख्यो सिस्करी मारपाक मेळपी अशें हें धडाकेबाज बॅट. फक्त पाच हजार रुपया. (भांगराच्या रंगाचे बॅट काडटा) मटक्याचो डेली लकी नंबर सांगपी बाबा म्हाराजांचे दैनिक गुरुमाऊली मटका कॅलेंडर... फक्त एक हजार रुपया.(विचित्र प्रकारचे कॅलेंडर दाखयता) पंचाक सरपंच करपी... आमदाराक मंत्री करपी... मंत्र्यांक मुख्यमंत्री करपी, परमशक्तीमान म्युजिकल चॅअर. (लायटी पेटपी आनी वेगळोच आवाज येवपी खुर्ची बाजूक आसता तिजेर उजवाड पडटा) ही खुर्ची विकती घेतली जाल्यार गुंड आनी मटकेकारुय मुख्यमंत्री जांवंक शकतले आनी आतां रोकडीच येवपाची आसा सर्वशक्तीमान हायकमांड म्युजिकल चॅअर...जी तुमकां करतली प्रायममिनीस्टर...

**बाबा** – पार्लमेंटान न्हीदो काडपी निदेगौडा काय कोण तो... आनी स्वतःक द्रौपदी म्हणपी तो भद्रकुमार... तांकां हांवेच प्रायममिनिस्टर केल्ले. तांणी म्हाका इनाम म्हणून एअरकंडीशनर गाडयो दिल्यो प्रेमानंदा, सदानंदा.. सांग तांकां आमचे चमत्कार. आयज बरेच नवे शिश्य आसात. कळूनी तांकां आमचें कार्य.

**प्रेमानंद** – ज्या चेडवांक मिस वर्ल्ड जावपाचें आसा तांकां आमी णव म्हयन्यांत मिस वर्ल्ड करतात. पूण तांणी कोर्स करचो पडटा. कोर्साक आमी कसलीच फी घेनात. पूण ताणी मठांत येवन बाबांची सेवा करची अशी आमची इच्छा आसता. (कनका बाबांक पिवपाक दिता दमट हो शिश्यांमदीं बशिल्लो तरनाटो उठून बाबांच्या पेल्याचो वास घेता. तो सोरो पिल्लो आसा.)

बाबा – आरे तरनाट्या, असो किदें वास घेता ह्या पेल्याचो? तुका किदें हांव सोरो पिता अशें दिसता? हांव तसलो बाबा म्हाराज न्हय. सोरो, मटण, बिर्याणी हांव केन्नाच खायना आनी तुमीय खांव नाकात. सदांच शिवराक जेवात. शिवराकाक तेफळां धोडावन घालात... बांगड्यांच्या हुमणान जेवल्यासारखें दिसतलें! आरे पूण तरनाट्या तूं इतको झेलता किद्याक रे? सामको गव्हर्नमेंट कसो हालता मरे तूं. तरी बरें आसा. हांगां येतना तूं तर्र जावन आयलो खरो पूण हांगच्यान वतना तूं सगळो सोरो सोडुनूच वतलो.

दमट – बाबा म्हाराज, म्हाका शंभर टक्के गॅरंटी आसा. ह्या पेल्यांत सोरो आसा.

बाबा – कोण रे तूं तरनाट्या? खंयच्यान आयला रे हो बेशिस्त तरनाटो?

दमट – बाबा, हांव दमट. म्हाका सोरो सोडपाक जाय. ह्यापयली हांव जायत्या बाबांकडेन गेलो. त्या दारवडेश्वराकडेन गेलो... चर्पटेश्वराकडेन गेलो... आनी त्या खोटेंद्राकडेनय गेलो... पूण म्हजो सोरो सुटलो ना. आता हांवेन त्या सगळ्या बाबांक सोडल्या आनी व्हड उमेदीन आयला ह्या तुज्या मठांत.

प्रेमानंद – आरे बेबद्या. तुज्या गांवांत किदें गटारां ना रे? आमचो मठ म्हटल्यार तुका किदें गटार दिसलें?

बाबा – प्रेमानंदा, शिस्तीन उलयात रे. आरे, गटार जाला हें तुमचें गोंय. रात दीस सगळे गोंयकार सोऱ्यांत बुडून वतात. पूण गोंयकारांचो हो सोरो बंदूच करपाक जाय. हें समाजकार्य आतां आमकांच करचें पडटलें. दारु व्यसन मुक्ती चळवळ आतां आमकां चड नेटान चलोवची पडटली. (दमट पेल्याचो वास घेत आसा)

दमट – म्हाका आतां दोनशे टक्के गॅरंटी जाल्या. ह्या पेल्यांत ताजें उर्राक आसा.

प्रेमानंद – ये झेंडू... खुप जालें तुजें सोऱ्याचे पुराण. उलोवपाक रीत तरी आसा रे तुका? बाबांकडेन आदरान उलोवपाक जाय.

बाबा – प्रेमानंदा, आसूं रे. तो सोरो पिल्लो आसा. ताका कळना तो किदें उलयता तें. आमी ताका माफ करुया. म्हजोच भक्त न्हय तो.

आपल्या भक्ताकूच जर भगवंतान दुखयलो जाल्यार कशें जातलें? दमटबाब, सांग तुजी डिफिकल्टी. म्हजेकडेन चड टायम ना. ह्या बाकीच्यांच्योय डिफिकल्टी सॉल्व करपाक जाय न्हय?

**दमट** – खंयच्याय मनशाच्या लायफान किदें तरी अेम... ध्येय आसताच नु? म्हाका पिच्चरांतलों हिरो जावपाचो आसलो. सुपरस्टार शाहरुख खानासारखो. मैं हू ना!

**सदानंद** – मागीर असो जॉनी वॉकर कसो जालो तूं?

**दमट** – कोलवा बिचार आमची आसली शुटींग सुरु. देवदास पिच्चराची. थंय म्हजो आनी माधुरीचो जालो लव्ह. पूण मदींच येयलो सुनिल शेट्टी आनी माधुरीक घेवन पळळो. हांव उल्लो थंयच. माधुरीच्या प्रेमान म्हाका सामको देवदास केलो. आतां त्या पिच्चरान देवदासाचो रोल शाहरुख खान करता.

**बाबा** – तुजी डिफिकल्टी कळळी म्हाका. प्रेमानंदा, सोऱ्यान सोरो कापपाचो. दमटबाब, ही घे कंट्रीची बाटली. (सोऱ्याची बाटली दिता) घरा वच आनी पीत राव. एकतर तिका सोपोय ना जाल्यार तूं सोंप.

**दमट** – बाबा म्हाराज़, हांव सोपूं...?

**बाबा** – आरे पुता, तूं किद्याक सोंपता? ह्या सोऱ्याक सोंपय. म्हणजे तुजें हें सोऱ्याचें व्यसन सोंपय. सोरो सोडीत जाल्यार तुज्यांतलो देवदास सोपतलो आनी तूं परत शाहरुख खान जातलो. हो सोरो सोड. खूब कष्ट कर. (दमट उमेदीन वचपाक लागता)

**सदानंद** – वता खंय? बाबान तुजी येदी व्हडली डिफिकल्टी पयस केल्या. ताच्या बदलाक संप्रदायाक डोनेशन दिवचें अशें दिसना तुका? आरे, हें ईश्वरी कार्य आसा. जण एकल्यान ताका हातभार लावपाक जाय. आरे, तुका जें पुण्य मेळटलें तें तुज्या सात पिडयांचो उध्दार करतले. (दमट खोशी जाता.) पाचशीं रुपया दी संप्रदायाक.

**दमट** – (बोल्सांत हात घालून शंभराच्यो दोन नोटी काडटा) पाचशीं ना. दोनशींच आसा. तीनशे बिलार घाल. (दोनशे रूपया बाबांच्या

पांयांकडल्या ताटान दवरता आनी मागीर बाटलेंतलो सोरो बाबांच्या पांयांचेर वतयता)

बाबा – आरे आरे हें किदें करता?

कामट – पाद्यपुजा! येदो व्हडलो बाबा म्हाराज तूं आख्ख्या संसाराचो पालनकर्तो आनी त्या साध्या... पीडब्ल्युडीच्या उदकान तुजी पाद्यपुजा करपाची?

बाबा – प्रेमानंदा, भायर व्हरुन सोड हाका. (प्रेमानंद व्हरता) सांभाळून. पडत बी तो. पळयात पळयात ही तुमची दशा. म्हाका कळना तुमी इतको सोरो किद्याक पिता. गोंयात सोऱ्यांची न्हंय सदांच व्हांवत आसता. मागीर तुमी फाल्यां ती न्हय आटतली अशें समजून आयजूच तिका पिवन सोपोवपाचें किद्याक चिंतात? एक पॅग मारतलो म्हणून तुमी बार्रान भितर सरता आनी मागीर पॅगार पॅग मारत रावल्या उपरांत तुमकां कळना तुमी कितल्यो बाटल्यो सोंपयल्यो त्यो. तुमी सगळेजाण म्हजे भक्त आसात. तुमकां सगळ्यांक हांवेनुच सांबाळपाक जाय हें जाणा हांव. तुमचो सांभाळ करपाकुच भगवंतान धाडला म्हाका. तुमचें सोऱ्याचें व्यसन आतां हांव बंद करतलों. ईश्वराचें मागणें आसा तुमचेकडेन. स्वत: भगवंत तुमकां साद घालता. ताचो साद आयकुपाचो यत्न करात. भगवंताचे शब्द सदांच लक्षांत दवरात. सोऱ्याक अजिबात तोंड लावं नाकात. सोरो पिवप्यांक हांगां म्हज्या मठांत घेवन येयात. हांव सोडटा तांचे सोऱ्याचें व्यसन. (प्रेमानंद 'बाबा म्हाराजकी जय) अशी घोशणा दिता. शिश्यांमदीं बशिल्लो कायतान हो तरनाटो उठून बाबांची पाद्यपुजा करता. ताचें उलोवप साश्टीतल्या ख्रिश्चनांसारखें आसा) कोण रे तूं... खंयच्यान आयला?

कायतान – बाबा म्हाराज, मुगे नांव कायतान. मुगे एकदम सिरीयस डिफिकल्टी आसा. म्हाका घराकडेन सगळेजाण काजार जा काजार जा म्हणून फाटीक लागल्यात. पूण काजार जावपाक चेडूं गावो ना.

बाबा – काजार?

**कायतान** – काजार म्हुणल्यार किदें तें गमो ना तुका बाबा म्हाराज?

**प्रेमानंद** – बाबांक कोंकणी सारखी कळना. तातुंत तुजी कोकणी म्हटल्या आनी एक व्हडली डिफिकल्टी. कितल्यो कोकणी आसात रे हांगा'

**कायतान** – कोंकणी खुब तरेची आसा. पेडणेकाराली कोंकणी, बार्देसकाराली फोंडेकाराली, काणकोण – कारवारकारांली, आमगे साश्टीकारांली.. जायते भाशेन आसा आमची कोंकणी लँवेज. कोकणी लँग्वेज आमगे आयडेंटीटी. तर हांव किदें म्हुणटाला? हां. आमगे भाशेन काजार म्हुणल्यार... मॅरेज!.. लगीन.

**बाबा** – लग्न रे? तशें जाल्यार तुजो फायदोच. म्हाका एक सांग कायतानबाब तुजो प्रेमबीम ना रे खंयच्या चलयेचेर?

**कायतान** – आसलो, मोग आसलो. आमगे मोग आख्ख्या कोलवा गावांत फामाद. तेका हांव सदांच सांजेवेळार बांदार घेवन वयतालों. त्य दिगू कामती भाटांतली आडसरां आमी खुब खायल्या चोरुन अभ्यास करपा म्हणून वचप आनी...

**बाबा** – ती चली कोणाली रे?

**कायतान** – बाबा म्हाराज, आतां हिंगासर तो दमट येवन गेलो नु तेगेली भयण ती. हो दमट सोरेकार पूण तेगेली भयण एकदम रामाच्या सितेप्रमाण सोबीत बावली! पूण ती बावली आतां मुजेकडेन काजार जावपाक रेडी ना.

**बाबा** – किदें करतले कायतानबाब? आतांच्यो ह्यो चलयो अश्योच. प्रेम एकट्याकडेन आनी लग्न दुसऱ्याकडेन. लग्नापयली मोटारसायकलीचेर एकट्याच्या भोंवप आनी लग्नाउपरांत गाडयेन दुसऱ्याच्याच बसप.

**कायतान** – पुण बाबा म्हाराज, मुगे हें गर्लफ्रेंड तसले नु. तें सामके सितेप्रमाण. नांव तेगे गीता. हांव तेको मुगेली भगवद्गीता समजतालो. पूण जेन्ना हांयेन तेका काजाराक प्रपोज केलें तेन्ना तें म्हुणपा लागले, काजारापयली एलायझा टेस्ट कर. हांवेन एलायझा टेस्ट केली. एचआयव्ही पोझिटीव्ह जालें. म्हाका एडस् जालो. (कायतानाच्या

लागी आशिल्ले भक्त पयस वता) चोयलें बाबा म्हाराज? आतां हे लोक जशे म्हुजपासून पयस गेले तशेंच गीतानुय मुगेले काजाराचे प्रपोजल कोयराच्या कोनशाक उडयले आनी म्हुजपासून पयस गेले. बाबा म्हाराज म्हाका आतां तूंच वांचय.

**बाबा** – हय वत्सा. आतां हांवूंच वांचोवंक शकता तुका. सगळी भगवंताची करणी. तूं कांयच भिंव नाका. पूण तुका हो एडसू जालो कसो?

**कायतान** – किदें सांगों बाबा म्हाराज? हांव आनी मुगेलो फ्रेंड विली... आमी दोगुय बायणा गेलेले...

**प्रेमानंद** – आरे पूण धर्तीकार सरकारान बायणा सगळे क्लीन केलां मरे. थंयच्या शिंदळ्यांवस्तीचेर बुलडोझर भोंवडायला अशे पेपरांनी आयला मरे.

**कायतान** – ही हालींच्या तेंपावयली गजाल नु. चार वर्सापयलींची... आमी कॉलेजींत शिकताले. तेन्ना वयताले आमी बायणा...

**बाबा** – पूण आतां तूं वाचतोलो कसो? एड्स महाभयंकर रोग. खंयच्याच डॉक्टराकडेन वखद ना ताका. आनी खयंच्या संप्रदायाच्या बाबाकडेनूय वखद ना ह्या एड्साक. एड्स जावंक जाय ना म्हणून सरकार कितलो प्रचार करता मरे... आतां आनी खंय इश्कॉलानी कंडोम वाटपाचे आसात.

**कायतान** – कितें सांगता बाबा म्हाराज? मुगे उसगांवचो फ्रेंड पांडुरंग सांगतालो, उसगांवां एका इश्कॉलांतल्या भुरग्यांक केन्नाच वाटून सोंपयले कंडोम.

**बाबा** – शिव शिव शिव... ह्या सरकाराकुय लागलां पिशें. बेस्टेच आपले वचत थंय कंडोम वापरा कंडोम वापरा म्हणून ॲडवर्टायजी दाखयता, कंडोम वांटता. शिव शिव शिव. आख्ख्या संवसारात एड्साक वखद नासलें तरी म्हजेकडेन आसा. सगळी भगवंताची कृपा. त्या कृपेक तुमी पात्र आसात. पूण तुमी सगळे म्हजे भक्त म्हणून तुमकां सगळ्यांक सांगता. एड्सापासून पयस रावात. ताज्यालागी गेल्यार तो रोग तुमचो जीव घेतल्याबगर तुमकां सोडचो ना.

**कायतान** – बाबा म्हाराज, आतां मुगे कितें?

बाबा – यु डोंट व्हरी मिस्टर कायतान. हांव आसा न्हय. तुका कोणी ज
रिपोर्ट दिला तो पिंजून उडय. आमच्या मठांतल्या डॉक्टराकडे
तुका एड्स नाशिल्ल्याचो रिपोर्ट मेळटलो. तो व्हरुन दाखय तुझ्य
गीतेक. मागीर पळोवया कशे जायना तें तुजी भगवद्‌गीता.

कायतान – पूण बाबा म्हाराज, ते आतां म्हाका रावोंक ना. ते केन्नाच काजा
जालें. तेका धाकटुलो एक पिकेनुय जाला.

बाबा – मागीर तुका दुसरी चली पळोवया. चलयो कमी ना. आमच्या मॅरे
ब्युरोत तुजें नांव रजिस्टर कर. तीन म्हयन्यांत काजार करुया तुक
तो मेरेन आमचेकडेन शरीरशुध्दी कल्प आसा तो घे. (शरीरशुध्द
कल्पाची बाटली दिता) पंधरा दिसांत तुजो एड्स नाच जातलं
एड्साचेर खंयच वखद ना. अमेरिकासुध्दा वखद तयार करुं
शकलेली ना. पूण म्हजेकडेन आसा वखद. पूण ते फक्त म्हज्य
भक्तांच्या कल्याणाखातीर. जे म्हजे भक्त ना पूण तांकां एड्
जाला अशा लोकांकुय हांव तें वखद दिवं शकता, पूण ताणी पयलं
आमच्या संप्रदायांत येवचें पडटलें. चल कायतानबाब चल त
कांयच भिंव नाका. हांव आसा न्हय. कल्याण जांव तुजें. (बाब
कायतानाचेर पाकळ्यो उडयता. कायतान बोल्सातल्यो नोटी काडट
ताटान दवरता आनी भायर वता. भक्तांच्यामदीं बशिल्लो मुन्नाभा
हो गॅंगस्टर तरनाटो उठून बाबांचे पांय धरता)

मुन्नाभाय – बाबा म्हाराज, मेरेको बचाव. मेरेको बचाव. मुंबय पुलिस और गोव
पुलिस मेरे पिछे पडी है. मेरेको शरणमे ले लो बाबा म्हाराज.

सदानंद – पर तूं है कौन भैया?

मुन्नाभाय – अख्खा मुंबय आपुनको मुन्नाभाय बोलता है. अस्लम बेलग
गॅंगका आदमी हूँ मै. बेलगीका रायट हॅंड हू. लेकिन...

प्रेमानंद – किसीका मर्डर करके आया है क्या?

मुन्नाभाय – नही. मर्डर नही किया. मुंबयमें नकली स्टॅंप पेपर बेचनेका ब
बिजनेस है हमारा. लेकिन चार दिनसे पुलिसने हमारा भांडा फोड

सब पकडे गये. बेलगी भी जेल पहुंच गया. मै बच गया था. लेकिन मुंबय पुलिस अब गोवामे पहुचेली है. गोवाकी पुलिसभी ढुंढती है मेरेको. बाबा म्हाराज, मेरेको बचाव.

ाबा – बचायेगा बेटा बचायेगा. हांव सबको बचायेगा. उपरवालेने मुझे तुम्हे बचाने के लिए ही यहाँ भेजा है. सब उपरवालेकी करनी. तुने नकली स्टँपपेपर बेचकर बहुत बडा क्रायम किया है. तुजे ऐसा नही करना चाहिए. तेरे पापकी सजा मिल रही है तुजे. लेकिन तूं डरना मत. आजकल ऐसाही होता है, क्रायम करनेवाले लोग पोलिसके सामने जानेसे पहले हमारे सामने सरंडर करते है. तू मेरे शरणमे आया है, तो मै बचाऊंगा तुजे.

मानंद – आमचें बाबा म्हाराज तुका वाचयतलेंच. पूण ताच्या बदलाक संप्रदायाक डोनेशन दितलो मरे?

ुन्नाभाय – डोनेशन तो मैं जरुर दुंगा, लेकिन अभी कॅश नही. क्रेडीट कार्ड है. बाबा म्हाराज मुझे बचाव.

ाबा – प्रेमानंद, हाजेकडसून तें क्रडीट कार्ड घे आनी दी ताका आमचे दिव्य सुरक्षा कवच. मुन्नाभाय तूम हमारा दिव्य सुरक्षा कवच डालो. कोई कुछ भी नही बिघाडेगा तेरा. मैं हूँ ना. (दिव्य कवच म्हणून बाबा ताका चांदीच्या रंगासारखें जाकिट दिता आनी ताचेर पाकळ्यो उडयता) सदानंद, हो हांगां जितके दीस रावपाक सोदता तितके दीस दवरात ताका. मठाच्या सेक्युरीटी फोर्सान एडजस्ट करात ताका. असले लोक जाय पडटात न्हय आमकां. (सदानंद मुन्नाभायक भितर व्हरुन सोडून परत येता. प्रेमानंदाच्या मोबायल फोनाची रिंग येता)

प्रेमानंद – (मोबायलाचेर उलयता) हां.... कोण उलयता? .... अच्छा अच्छा बोलो अगरवालजी... हां बोलो.... अच्छा....एक मिनट.... (बाबांक सांगता) बाबा, मुंबय सेंटराचो इनचार्ज अगरवाल उलयता. ताका मुंबयत तुमचो दर्शन सुवाळो घडोवपाचो आसा. तारीख जाय म्हण्टा तो.

**बाबा** – (प्रेमानंदाच्या मोबायलाचेर उलयता) बोलो अगरवाल... क्या :
अगरवाल, अभी हम बहुत बिझी है. यहाँ हमारा बडा महासंग
दर्शन प्रोग्राम होनेवाला है... सब लोग आयेंगे. युपीसे मायावती.
बिहारसे लालुजी, गुजरातसे मोदीजी आ रहे है.... वो तो स्टा
पोलिटीशन है ना? सब आनेवाले है....उद्घाटन...? यहाँके चि
मिनिस्टर उद्घाटन करेंगे... तुम सब मुंबईवालोंको लेकर आना.
अच्छा? ओके? हां... हां... जयसियाराम... (भक्तगणांक) पळय
कशी आमंत्रणां आसतात तीं म्हाका? पूण म्हजो जीव तुमचे
तांचो पैसो जेन्ना आमकां जाय पडटा तेन्नाच वता आमी तांच्
थंय. आतां पळयात पणजेतल्या आमच्या महासंगमाक कितले लो
येतात ते भायरसून. देशातलें सगळे राजकारणी येतले. ते झगड्यां
ब्रदर्ससुध्दा येतले... आपलीं सगळीं झगडी सोडून येतले
(भक्तगणांमदलो केशव हो यत्ता धावेंत शिकपी भुरगो उठून बाबां
पांया पडटा)

**केशव** – बाबा म्हाराज, म्हाजे नांव केशव. हांव धावेंत शिकता. म्हज
बोर्डाची परीक्षा लागीं पावल्या. पूण म्हजो अभ्यासूच जावंक न
आजून. म्हजे तकलेन कांयच उरना. सगळें विसरता हांव.

**बाबा** – अभ्यास कसो उरतलो तुज्या तकलेन? तुज्या तकलेन आनी कि
भलतेच आसतलें. केबल टीव्ही पळयता मरे? इश्कॉलान चेडवांच्
फाटल्या फुडल्यान गुटमळप आनी गांवांत हांगां थंय हेडप. आन
करतलें किदें तुमी आयचे भुरगे?

**प्रेमानंद** – भुरगीं करता तीं करता. हांचे आवय बापुय तेंच करता. बीं तशें भात

**केशव** – बाबा, म्हाका कसोय तरी वाचय. घराकडेन सगळेजाण म्हाक
फर्स्टक्लासान पास जावपाक जाय म्हणटात. चार दिसांपयली हां
देवळांत वचून देवतेक पांये पडून आयलो. पूण कांयच फायद
जालो ना. अभ्यास जावंकुच ना. तकलेंत कांयच उरना. कांय
याद जायना.

ाबा – आरे तूं कांयच भींव नाका. हांव आसा न्हय. हे घे म्हजे दिव्य चमत्कारी पेन. ह्या पेनान पेपर बरय. कसलीच चिंता करुं नाका. फर्स्टक्लासान किदयाक आख्ख्या गोंयांत पयल्या नंबराचेर येतलो तूं. तथास्तु.

मानंद – बाबा, हो धाकटो भुरगो, आनी शिकता न्हय तो, म्हणून ताजेकडल्यान हाफुच डोनेशन घेवप न्हय?

दानंद – तुका मरे कांयच कळना. भुरग्यांकडेन पयशे खंयचे आसतले?

ाबा – ना सदानंदा, तूं म्हण्टा तें बरोबर ना. आयच्या भुरग्यांकडेनुय पयशे आसतात. आरे तांच्या बोल्सानी एटीएम कार्डां आनी हातांनी मोबायल फोन आसता. पळोवंक ना तुमी? पूण आमकां तांचेकडसून डोनेशनां घेवपाची ना. आरे हीं भुरगीं म्हळ्यार भगवंताच्या कृपेची फुलां. तांची जपणूक करपाक जाय. तेऱ्याच्या पानावयल्या उदकाच्या थेंब्याप्रमाण. चल, भुरग्या चल तूं. पूण म्हज्या आशीर्वादान खुप शिकल्या उपरांत पयशे करपाक अमेरिकेंत मात वचूं नाका. हांगांच राव आनी ह्या देशाची सेवा कर. तथास्तू (बाबा ताजेर फुलांच्यो पाकळ्यो उडयता. केशव वता. इन्सपेक्टर देसाय उठता. तो युनिफॉर्मात ना.)

इन्सपेक्टर – बाबा फाटलीं बरीच वर्सा हांव पोलिस डिपार्टमेंटान आसा. सब इन्सपेक्टर म्हणून. हांव इन्सपेक्टर जांवचो म्हणून हांवेन मंत्र्यांकडेन फावोर लायलो. शेवट्यांच्यो गांथनी दिल्यो. भाटातले नाल्ल तांकां पावयले. पूण कांयच फायदो जालो ना. काल पेजेक नाशिल्ले लोक आयज मंत्री जाल्या आनी म्हज्यासारख्या भाटकाराकसुध्दा प्रमोशनाक लागून तांचेकडेन फावोर मागचो पडटा. आतां तुमची किर्ती आयकून हांव हांगां आयला. आतां तुमीच पावात म्हाका. तुमचो आशीर्वाद दियात आनी इन्सपेक्टर करात म्हाका.

प्रेमानंद – तुका इन्सपेक्टर करप म्हटल्यार एकदम सादें काम. पूण आमच्या बाबांचो पणजे महासंगम दर्शन सुवाळो जावपाचो आसा. म्हापशा

सत्संग जावपाचो आसा. ताका तुवें काम करचें पडटलें. आमच्य
संप्रदायाचो शिश्य जावचो पडटलो. बाबांचो भक्त जावचो पडटले
ताचो फायदो तुकाच जातलो.

**बाबा** – देसाय, आमच्या ह्या संप्रदायान आमी लाखांनी लोकांचे कल्या
करतात. सगळी भगवंताची कृपा. हांवे सांगिल्ल्या सद्मार्गावयल्या
जे चलतात तांचो भरपूर विकास जाता. धनदौलत, प्रतिष्ठा, मानसन्मा
सगळें मेळटा.

**इन्सपेक्टर** – बाबा म्हाराज, हांव सगळ्या पुलिसांक ह्या संप्रदायांत हाडूं
शकता. पूण कृपा करा आनी म्हाका इन्सपेक्टर करात. तुमच
कीर्ती आख्ख्या डिपार्टमेंटान पसरयता. त्या उपरांत सगळे पुलि
धांवून येतले ह्या मठांत.

**बाबा** – उत्तम! अति उत्तम! आमच्या संप्रदायाचे हे सद्मार्गाचे विचार तुम
पुलिसांनी आपणायले जाल्यार लोकांचे खुप कल्याण जातलें. तुमच्याम
जी भक्षकाची वृत्ती वाडत आसा ती कमी जावन रक्षकाची वृ
वाडपाक जाय. सद्रक्षणाय खलनिग्रहाय... ह्यें तुमचें बोधवाक
तकलेंत धरुन तुमी काम करपाक जाय. पूण तुमी पुलीस सगळें
उरफाटे करतात. तुमचें बोधवाक्य बदलून खलरक्षणाय सद्निग्रहा
अशें केला तुमी. पूण तूं कायच भींव नाका. तूं आयला न्हय आत
या अध्यात्माच्या, ज्ञानाच्या महासागरांत. तुजें कल्याण जातलेंच
भगवंताची कृपा आसल्या उपरांत कांयच साध्य ना अशें न
सगळ्या पुलिसांक हाड तूं आमच्या संप्रदायांत. एक दीस तुज
आयजीपीकुय घेवन यो. तीन दिसांभितर तुका प्रमोशनाची ऑर
येतली. तूं इन्सपेक्टर जातलो.

**इन्सपेक्टर** – बाबा, मुख्यमंत्र्यान सगळ्या पुलिसांक मोटारसायकली दिल्यात
तसली मोटरसायकल म्हाकाय मेळ्ळी जाल्यार...

**बाबा** – मेळटली मेळटली. मोटारसायकलूच किद्याक? मोबायल फोनू
मेळटलो. आरे पूण तूं भांटकार मरे? आनी ह्यो सगळ्यो वस्त

तुका सरकाराकडल्यान जाय? असो मोह धरप बरोबर न्हय. पूण तूं आता म्हजो शिश्य. तुज्यो सगळ्यो अडचणी पयस करप हेंच म्हजे काम. चल तुजें काम जालें. तथास्तु...(ताजेर पाकळ्यो उडयता. इन्सपेक्टर भायर वता. भक्तांच्यामदीं बशिल्लो राजदीप हो तरनाटो पत्रकार उठता आनी बाबांचे पांयां पडटा)

राजदीप – बाबा, हांव पत्रकार. राजदीप म्हजें नांव. पणजे म्हजो एक पेपर आसा. गोंयचो आवाज. पूण हालीं नवे पेपर वाडील्ल्यान म्हजो पेपर चड खपना. कृपा करा आनी म्हज्या पेपराचो खप वाडयात. सरकारी जायरातीय मेळच्यो असो आशीर्वाद दियात म्हाका.

बाबा – हांव खुश जालो. सदानंद, प्रेमानंद आतां गोंयात आमच्या संप्रदायाचें काम खऱ्या अर्थान सुरु जाल्ल्याचें म्हाका दिसता. खंयचेय देवकार्य पुर्ण जावपाक जशी गणेशपुजा गरजेची आसता तशेंच खंयच्याय सामाजिक, आध्यात्मिक कार्याक पत्रकारांची साथ लाबल्याशिवाय ते समाजकार्य यशस्वी जायना. आमच्या संप्रदायात पत्रकारुय येता ही व्हड उमेदीची गोश्ट आसा.

राजदीप – तुमच्या कार्याचो महिमा गोंयभर पसरला. तुमी जें कार्य करता ती एकाप्रकारे समाजसेवाच आसा न्हय. बहुजनसमाजाचो उध्दार करपाचें तुमी जे कार्य चलयलां तें खरेंच म्हान कार्य आसा. तुमच्या ह्या कार्याक लागुन गोंयचे बाकीचे संप्रदाय सामके डावन पडल्यात. आख्ख्या गोंयांत तुमचोच जयजयकार चलला. तुमचो आशीर्वाद लाबून म्हज्या पेपराचो उध्दार जावचो अशे म्हजें मागणें आसा तुमचेकडेन.

बाबा – पत्रकारांचे काम करीना जाल्यार कोणाचें काम करतले आमी? जर्नलिस्ट फर्स्ट! कारण पत्रकार हेंच ह्या देशाचें खरे आदारस्तंभ! पत्रकारांनीच ब्रिटीशांक ह्या देशानसुन धांवडायले. इंदिरा गांधीची दादागिरीय पत्रकारांनीच सोंपयली. पत्रकारांनीच मंत्र्यांचीं लफडीं भायर काडलीं आनी पत्रकारानींच भ्रष्टाचाराची प्रकरणां उजवाडाक

हाडलीं. आमचे खासदार लोकसभेंत प्रस्न विचारपाक पयशे घेतात हें या पत्रकारांनीच उजवाडाक हाडले. हे पत्रकारुच कोणाकुय मोठो करता आनी टायम आयल्यार सकयलुय देवयता. अशा ह्या पत्रकाराची इत्सा पूर्ण करप हे एक धर्मकार्यच आसा. एक काम कर, तुज्या पेपरांत म्हजें निरुपण छाप. म्हजें फोटो छाप. मागीर पळय कसो खपता तो तुजो पेपर. रत्नागिरीचो आमचो कशाळकार संपादक आसा न्हय, तो म्हजें निरुपण छापता. फोटो छापता. ताजो पेपर नंबर वन जाला थंय. भगवंताच्या कृपेन ताजो पेपर नंबर वन जालो म्हणून ताणें आपल्या पेपराचे नाव बदलून बाबा म्हाराज टायम्स अशें दवरलां.

**राजदीप** – बाबा म्हाराज, तुमची तोखणाय करपी लेख बरोवपाक हांव रोकडेंच सुरु करता. तुमचे कांय फोटोय काडून घेता. (राजदीप आपल्याकडल्या कॅमेऱ्यान बाबांचे फोटो काडटा. बाबा, प्रेमानंद, सदानंद वेगवेगळ्यो पोजी दिता)

**बाबा** – आमचो संप्रदाय गोंयांत रोकडोच नंबर वन जातलो हांतुंत आतां कांयच दुबाव उरुंक ना. पुलीस म्हजे भक्त. पत्रकार म्हजे भक्त. आतां फक्त उरल्या ते पोलिटीशन्स. इलेक्शनाक मतां दिता म्हटल्यार ते रोकडेच येतले म्हजी पाद्यपुजा करपाक. म्हज्या पांयांचेर नाक घशटीतले ते. चीफ मिनिस्टराकडेन तुजें बरेंपण आसतलेंच. ताका आमच्या संप्रदायांत हाड. अशें करुया. पणजे जावपी आमच्या महासंगमाचे उद्‌घाटनुच ताच्या हातीन करुया. म्हणजे तोवूय खुश आनी हांवुय खुश! जातले तुजेकडेन हें काम?

**राजदीप** – हय बाबा. चीफ मिनिस्टर सदांच मेळटा म्हाका. ताच्यो प्रेस कॉन्फरन्सी आसताच न्हय. शिवाय ताच्या महालक्ष्मी बंगल्याचे दार म्हाका सदांच उघडें आसता. पूण तो तुमच्या संप्रदायांत येत अशें दिसना. कारण, तो दुसऱ्या संप्रदायांत वता. तो चैतन्यबाबाचो भक्त. गोंयचो लोकल संप्रदाय न्हय तो. पूण म्हजें काम जायत

जाल्यार तुमच्या संप्रदायाची किर्ती वाडोवपाक हांव किदेंय करपाक तयार आसा.

बाबा – हांव तुका आशीर्वाद दिता. तूं रोकडोच गोंयांतलो नंबर वन पत्रकार जातलो. तुजो पेपर... गोंयचो आवाजुय नंबर वन पेपर जातलो. तथास्तु. (राजदीप परत एकदां चरणस्पर्श करता आनी भायर वता) आतां आमचो संप्रदाय गोंयांतुय नंबर वन संप्रदाय जातलो. प्रेमानंद, म्हापशेंच्या आमच्या सत्संगाक पन्नास हजार लोक येतले असो प्रचार करात. म्हापशेंचो सत्संग म्हटल्यार तालीम आसतली आनी पणजेचो महासंगम म्हटल्यार खरें नाटक जातलें. म्हापशा पन्नास हजार लोक जमले जाल्यार पणजेच्या महासंगमाक एक लाख लोक जमतले. घराघरांनी वचून प्रचार करात. आख्ख्या बहुजनसमाजाक एकीकडे हाडून तांचो उध्दार करप हेंच आमचे धर्मकार्य आसा. चला, आतां फुडले तयारीक लागात. आयचो हो दर्शन सुवाळो हांगांच सोंपता.

प्रेमानंद – अनंतकोटी ब्रम्हांडनायक राजाधिराज... आख्ख्या संसाराचो पालनकर्तो...बाबा म्हाराजकी... (सगळेजाण जय म्हणटात. मंगलमय वातावरणांत प्रवेश सोंपता.)

**प्रवेश दुसरो**

(गांवचे दृष्य. संप्रदायाची प्रचार सभा सुरु आसा. सदानंद आनी प्रेमानंद प्रचार करतात. तांच्याफुड्यान गांवचे लोक बशिल्ले आसात. फाटल्यान दोन शिश्य एक बॅनर घेवन उबे आसात किंवा बॅनर झाडांक बानिल्लो आसूं येता. बॅनराचेर बरयलां 'बाबा म्हाराज संप्रदाय... भव्य दर्शन सुवाळो... श्री बोडगेश्वर प्रांगण म्हापशें–गोंय))

प्रेमानंद – आख्ख्या संसाराचो पालनकर्तो... बाबा म्हाराज हांचो दिव्य संदेश घेवन आमी तुमच्या ह्या गांवांत आयल्यात. ज्या ज्या वेळार ह्या धर्तरेचेर अन्याय अत्याचार वाडटा तेन्ना तेन्ना भगवंताक नवो अवतार घेवचो पडटा.

**सदानंद** – अधर्मी रावणाक सोपोवपाक भगवंतान प्रभुरामचंद्राचो अवतार घेतल पूण हातवाल्या राजकारण्यांनी भगवंताकूच परत वनवासाक धाडल कमळवाल्यांनी प्रभुरामचंद्राच्या नांवान विटो आनी पादुका भोंवडायल आनी दिल्ली मेळयली. पूण अयोध्येत देवूळ बांधलें ना. म्हणून त कमळ बावून गेलें.

**प्रेमानंद** – पूण अयोध्येत राममंदिर तर जावपाकुच जाय. पूण तें बांधत कोण? राममंदिर बांधपाचे काम फक्त आमचे बाबा म्हाराज करुंक शकता.

**सदानंद** – कौरवांचो नाश करुन पांडवांचें रक्षण करपाक जसो भगवंत श्रीकृष्णाचो अवतार घेतलो तसो आतां ह्या धर्तरेचेर हिंदूंचे रक्ष करपाक भगवंतान नवो अवतार घेतला, तो म्हटल्यार आमचे बा म्हाराज.

**प्रेमानंद** – तुमची गरीबी पयस करतले आमचे बाबा म्हाराज.

**सदानंद** – तुमकां गाडी, बंगले, नोकरी, उद्योगधंदे दिवन तुमचे संसार सुख करपाचें कार्य आमचे बाबा म्हाराज करतले.

**प्रेमानंद** – आख्ख्या संसारात नवनवे कली निर्माण जाल्यात. तिसरें महायु केन्नाय जावं शकता. मिसायल... बॉंब... सुनामी भुकंप... आ सगळो नाश... कोण वांचयतलो तुमकां ह्या संकटानसून? तुम वांचोवपी एक संत... महासंत आयला हे धर्तरेचेर. तो महास म्हटल्यार साक्षात भगवंत. आनी ते जावन आसा आमचे बा म्हाराज.

**सदानंद** – तुमकां सगळ्यांक खबर पावल्या आसतलीच. म्हापशेंच्या बोडगेश्व देवळाकडेन आमच्या बाबांचो दर्शन सुवाळो जावपाचो आ ताका तुमी व्हड संख्येन येवपाक जाय म्हणून आमी तुम आमंत्रण दिवपाक आयल्यात.

**प्रेमानंद** – म्हापशेंच्या दर्शन सुवाळ्याउपरांत पणजेच्या कांपाल ग्रावंडाचेर महासं दर्शन सुवाळो जावपाचो आसा. म्हापशा पन्नास हजार लोक ज

जाल्यार पणजेच्या महासंगमाक एक लाख लोक जमतले अशें बाबान सांगलां. तुमी सगळ्यांनी तर येवपाकुच जाय पुण तुमच्याबरोबर हेर लोकांकुय तुमी बाबांच्या दर्शनाक हाडपाक जाय. गर्दी पडपाक जाय गर्दी.

दानंद – अनंतकोटी ब्रम्हांडनायक राजाधिराज... आख्ख्या संसाराचो पालनकर्तो... बाबा म्हाराजकी... (सगळे जाण जय म्हणटात. गांवचो सरपंच उठून प्रेमानंद आनी सदानंदाच्या गळ्यांत फुलांचे हार घालता.)

रपंच – बाबा म्हाराज ह्या गांवांत येवन गेल्ल्या दिसापासून एकुय संकट ह्या गांवाचेर येंवक ना. आमच्या पंचायतींत नाजाल्यार दरवर्सा सरपंच बदलतालो. दर ग्रामसभेंत सरपंचाक लोकांकडल्यान गाळींचो शिवोंर जातालो. पूण आतां हें सगळें बंद जाला. सगळी बाबा म्हाराजांची कृपा. बाबाची कृपा म्हज्या ह्या गांवाक ह्या फुडेंय लाबची म्हणून हांव ह्या गांवचो सरपंच तुमकां शब्द दिता. ह्या गांवचे सगळे लोक म्हापशां आनी पणजेच्या दर्शन सुवाळ्यांत व्हड उमेदीन येतले. ह्या दर्शन सुवाळ्याच्या खर्चाक हातभार लागचो म्हणून आमच्या केंद्राकडल्यान हे पाच लाखांचे ताट आमी बाबा म्हाराजांक अर्पण करतात.

मानंद – तुमी दिल्लें हें धन परत तुमकांच मेळटलें. गोर–गरीब, दीन–दुबळ्या, लुळ्या–पांगळ्या लोकांच्या सेवेक हें धन खर्च जातलें. कितले पुण्य मेळटलें तुमकां? (गांवकाऱ्यांमदीं बशिल्लो दमट उठता)

मट – रावात रावात मात्शे. (प्रेमानंद, सदानंदाच्या गळ्यांत हार घालता आनी लोटांगण घालून नमस्कार करता) हे घेयात म्हजें एकवीस हजार रुपया. बाबांच्या चरणी हांव ते अर्पण करतां. म्हजें सोऱ्याचें व्यसन सोडपाक हांव बाबांकडेन गेल्लो. बाबांच्या चमत्कारान म्हजो सोरो सुटलो.

प्रेमानंद – आरे पुण तुजेकडेन हे इतले पयशे?

**दमट** – बाबांच्या कृपेन काल म्हाका मटको लागलो. पत्ती फोर टू झीरो!

**सदानंद** – म्हणजे तुवेंन सोरो सोडलो आनी हो मटको धरलो?

**दमट** – सगळी बाबा म्हाराजांची कृपा. म्हणा बाबा म्हाराजकी... (सगळे जय म्हणटात.)

**गणपत** – हे पंचवीस हजार हांव बाबांच्या ह्या पुण्यकार्याक अर्पण करता. बाबांच्या कृपेन म्हजो रेंव काडपाचो धंदो आतां बरो चलता. बाबान सांगल्या उपरांत संप्रदायांतले सगळे शिश्य रेंव म्हजेकडल्यानूच व्हरतात. सगळे गिरायक म्हाकाच मेळटा. केदें व्हडले उपकार केल्या बाबान म्हजेर? (सदानंद, प्रेमानंदाचे पांय धरता)

**प्रेमानंद** – तुमच्या गांवचो हो रिसपॉन्स पळोवन आमी सामके धन्य धन्य जाल्यात. बाबा म्हाराजांची कृपा सदांच आसतली तुमच्या गांवांचेर. अशा सगळ्यांच गांवांनी आमच्या संप्रदायाक व्हडलो रिसपॉन्स मेळटा. सगळें बाबांच्या कृपेचे धनी जातात.

**सदानंद** – म्हणा अनंतकोटी ब्रम्हांडनायक राजाधिराज... आख्ख्या संवसाराचो पालनकर्तो... बाबा म्हाराजकी... (सगळे जाण जय म्हणटात. उत्साहवर्धक वातावरणांत काळोख जाता. गांवच्या दृष्याचो पड्डो वयर वता.)

## प्रवेश तिसरो

(बाबा म्हाराजांचो मुखेल शिश्य लक्ष्मण हाचें घर. लक्ष्मणाची बायल अंजनीबाय आनी तांचे चेडू मधुमिता बाबा म्हाराज येवपाची वाट पळयत आसा.)

**मधुमिता** – आगे आई, आजून तुजी तयारी जावंकूच ना? बाबा म्हाराज येवपाचो वेळ जालो. (मोबायल फोनाचेर उलयता) हेलो... खंय पावल्यात पप्पा तुमी.... गाडयेनसून देवता....? बरे बरे... आगे आई पावले ते. बाबा म्हाराज गाडयेनसून देवता खंय. चल बेगीन पंचारती घेवन यो. (अंजनीबाय णववारी कापड, माथ्यान फांती, गळ्यांत जायते भांगर अशी नटून थटून हातान पंचारती घेवन

बाबा म्हाराजांच्या स्वागताक दाराचेर उबी रावता.) आई, तूं सुंदर दिसता आं. आनी ही नथूय एकदम सुंदर दिसता तुका.

ंजनीबाय –मागीर...? बाबा म्हाराजाक खुश करपाक नाका? खंयच्याच शिश्याच्या घरांत ते आयज वचचे नात. फक्त आमच्याच घरांत येतले. अशे हें साधु संत घरांत येवप म्हळ्यार केदें व्हडलें भाग्य आमचें?

धुमिता – आनी तुजें हें सुंदर रुप पळोवन बाबा म्हाराज सामके खुश जातले. सारखी गोंयची हिंदू नारी सोबता तूं.

ंजनीबाय –पूण मधुमिता, तुवेंन हें किदें घातलां? साडी नेसपाची न्हय? (बँड, घोषणा आनी माराणांचो आवाज येता. कांय वेळान बाबा म्हाराज, लक्ष्मण, प्रेमानंद तशेंच हेर कांय शिश्य येतात.)

मानंद – अनंतकोटी ब्रम्हांडनायक राजाधिराज... आख्ख्या संसाराचो पालनकर्तो... बाबा म्हाराजकी जय...(सगळें वातावरण मंगलमय जाता. अंजनीबाय बाबांक ओवाळता. दोघांय बाग घेवन नमस्कार करतात.)

लक्ष्मण – बाबा, बसून घेयात न्हय.

बाबा – आरे लक्ष्मणा, हांव बसपाकूच आयला. हांव खंय वता. मैं हूँ ना? अशें कोणतरी खंयच्यातरी पिच्चरान म्हण्टा न्हय?

मधुमिता – शाहरुखान म्हण्टा. आनी त्या पिच्चराचे नांवूच मैं हूँ ना!

बाबा – बरेंच हुशार आसा मगो तूं... ज्ञानवंत... प्रज्ञावंत! जाणा लक्ष्मणा, मनशान भुरग्यांच्यामदीं भुरगेपणान वागपाक जाय. संत तुकाराम भुरग्यांबरोबर कसो खेळतालो तुका खबर आसा? संत गाडगेबाबा तर हरिजनांच्या भुरग्यांची रातदीस सेवा करतालो. पंडित नेहरु कितलो रमतालो भुरग्यांमदीं?

लक्ष्मण – बाबा हें म्हजें चेडूं, मधुमिता.

बाबा – आरे वा... नांवुय कितलें सुंदर? पूण लक्ष्मणा, ह्या मधुमिताक तुवें हाडलें ना केन्ना मठात. यो, यो मधुमिता अशें लागीं यो. केन्नातरी यो आमच्या मठांत. म्हज्या ह्या संप्रदायाक तुज्यासारख्या ज्ञानवंत...

प्रज्ञावंत चलयांची गरज आसा. किदें अंजनीबाय... नेक्सटाय
घेवन येता न्हय मधुमिताक मठांत?

**अंजनीबाय** –बाबा म्हाराज, आमचे सगळें कुटुंबच संप्रदायाच्या सेवेक अर्प
केलां आमी. आख्ख्या संसाराचे कल्याण करपी तुमच्या ह्या पुण्यकार्या
आमचें हें मधुमिताय वांटो घेतलें. येता त्या सोमारा हाडटा ताक
हांव मठांत.

**बाबा** – खरेंच हांव एकदम खुश जालां तुमचेर. तुमी केल्ल्या म्हज्य
स्वागतान तर हांव सामको भारावन गेलां. सोयऱ्यांक कांयच कमी
पडपाक दिवप ना हें गोंयकारांचे मोठेपणूच. जगावयल्या सगळ्य
बाबा म्हाराजांचे हांगां कितले स्वागत जाता. सगळ्या बाबांच्य
दर्शन सुवाळ्यांक म्हापशेचें तें बडगेश्वर मैदान आसाच. किदें गर्द
पडटा न्हय थंय. पूण लक्ष्मणा, आयज हांव मात्सो बेजार जालां.

**लक्ष्मण** – किदें जालें बाबा? आमचेकडल्यान कांय चूक माक....? (बाबा जी
गोश्ट सांगपाक सोदता ती आपूण सांगता अशी खूण प्रेमानंद
करता)

**प्रेमानंद** – लक्ष्मणा, आयच्या दर्शन सुवाळ्याक बडगेश्वराचे प्रांगण लोकांनी
सामकें फुलून वचपाक जाय आशिल्लें.

**लक्ष्मण** – बडगेश्वर नू प्रेमानंद. श्री देव बोडगेश्वर.

**बाबा** – आरे सगळें सारखेंच तें.

**लक्ष्मण** – बाबा सगळे गोंयकार श्रध्देन देव बोडगेश्वर म्हणटात.

**बाबा** – श्रध्दा...? आरे श्रध्दा खंयची? आनी श्रध्दा कोणाची कोणाचेर
आस ना? म्हजेर ना तुमची श्रध्दा? आनी देव कोण रे? आमच्या
सगळ्यांमदींच देव आसा. तुमकां देवाक वळखूपाक कळना.

**लक्ष्मण** – आगे, तूं अशी हांगाच उबी रावल्या, बाबांच्या च्या फराळाचें
पळयतली काय ना?

**बाबा** – आसूं रे लक्ष्मणा. आमी आयल्या म्हणून तिका खूब उमेद जाल्या.
जाणा हांव. (अंजनीबाय भीतर वचपाक वळता) आनी अंजनीबाय,

आतां च्या नाका. किदेंतरी थंडूच हाड.

**अंजनीबाय** –बरें बाबा. थंडूच हाडटा. (अंजनीबाय आनी मधुमिता भीतर वता.)

**बाबा** – आरे लक्ष्मणा, तुका हांव किदे सांगतालो? हां... तर.. हें सगळे देव म्हटल्यार फातरुच मरे. कोणाचें कल्याण जाता ह्या फातरांच्या देवांकडल्यान. आरे कल्याण करता भगवंत. ह्या समाजातले संत... महासंत करतात कल्याण या संवसाराचें. आतां विसरात तुमचे ते फातरांचे देव आनी तांची तीं देवळां. तुमच्यामदींच जो देव आसा ताका जाणून घेयात. आनी हें किदें लक्ष्मणा? तुज्या घरांत हे देवाचे फोटो किदयाक? तुज्या जाण्टेल्यांचे हे फोटो किदयाक? हांव सदांच प्रवचनात सांगता ते अशेच सोडून दिवप लक्ष्मणा? तुज्यासारख्या संप्रदायाच्या कमिटी मेंबरान तरी आमचे नियम पाळपाक जाय काय नाका. किदें लक्ष्मणा, म्हाका पळयता किदें असो? (लक्ष्मण वण्टीवयले फोटू काडून उडयता. प्रेमानंदाच्या मोबायल फोनाचेर कॉल येता)

**प्रेमानंद** – हॅलो... हां.... कोण..? (बाबांक सांगता) फालेरोचो पी. ए. उलयता बाबा. फालेरोक तुमचेकडेन उलोवपाक जाय खंय... (मोबायल बाबाकडे दिता)

**बाबा** – हां उलय फालेरबाब... हे पळय, सरकार उडोवप तशें सादें काम ना... जाणा हांव, सीएमान तुमची कशी वाट लायल्या ती जाणा हांव... ह्या ॲसेंबलीक धर्मीकाराचें सरकार उडोवपाचें?.... तुजें काम करपाचें हांव ट्राय करतां... आनी यो एकदां आमच्या मठांत.... सध्या हांव गोंयांतूच आसा. बरें तर... आनी बाकीचे डोनेशनाचे बी सगळें आमचो हो प्रेमानंद सांगतलो तुका. हें घे उलय... (प्रेमानंद मोबायल घेवन कुशीक वचून उलयता.) ह्या फालेराक त्या धर्मीकाराचें सरकार केन्ना पडटा काय जालां.

**लक्ष्मण** – बाबा म्हाराज, हो चीफ मिनिस्टर आमच्या मठांत येना खरो, पूण ताणें तशें लोकांचें कांयच वायट करुंक ना.

**बाबा –** जाणा हांव. तुमचो हो चीफ मिनिस्टर खंय लोकांक जाय तें दित
गायो दिता. म्हशी दिता. कंप्युटर दिता आनी चेकुय दिता. रस
बांधता पुल बांधता. आनी फिल्म फेस्टीव्हलुय दाखयता. खरें मरे
लोकांखातीर सगळें सगळें करता हो चिफ मिनिस्टर... पूण लोकांच
या उचंबळ मनांक शांती–समाधान मात तो दिवंक शकचो न
लोकांक ती शांती आमी मेळोवन दिता आमच्या अध्यात्माच
वाटेवयल्यान. या खवदळ मातिल्ल्या संवसारात मनशाक जगपा
जे आत्मीक सुख जाय आसता ते आमी दिता.

**प्रेमानंद –** बाबा म्हाराज, हो सीएम तसो हिरो जाला हिरो. ताचे पार्ट
कार्यकर्त आमच्या संप्रदायाक मेळ्ळे जाल्यार आमचो हो संप्रदा
रोकडोच गोंयातलो नंबर वन संप्रदाय जातलो. पूण चिफ मिनिस्टराव
मान्य ना हें आमचे प्रपोजल. तांची पार्टी दुसऱ्या संप्रदायांक
चैतन्यबाबांक मदत करता.

**बाबा –** आता हो फालेर आयलाच न्हय म्हजेकडेन... पळयात तुमी... ह
सरकार गडगडयता काय ना ते पळयाच. आयज आमच्या म्हापशेंच्य
दर्शन सुवाळ्याकूय येंवक ना तो. पणजेच्या महासंगमाचे उद्घाटन
करपाक आपयल्लो जाल्यार असल्या संप्रदायांनी आपल्याक इंटरेस्ट
ना म्हण्टा. ह्या हिंदू राजकारण्यांक किदें जाला तेंच कळना
हिंदूंच्या धर्मकार्याक आपयले जाल्यार अजिबात येना आनी हांक
जर इफ्तार पार्टक... फेस्ताक, आपयले जाल्यार शेपडी हालयत
धांवतात थंय. मुंबय, पुण्याचे राजकारणीय अशेंच करताले, पूण
हांवे हाडले तांका जाग्यार. पुणेकारांक जर हांव शिकोंव शकता
जाल्यार हांका किदयाक शिकोंव शकना? (मधुमिता सरबत घेवन
येता)

**मधुमिता –** काजूचें सरबत हें बाबा म्हाराज. घेयात बाबा म्हाराज. हांवेन खास
तुमचेखातीर केलां. (सगळ्यांक दिता)

**बाबा –** वा. मस्त जाला सरबत. हांव सामको तृप्त जालो. ए दिल मांगे

मोअर. त्या ॲडव्हर्टायजीचो अर्थ आयज कळ्ळो. पूण तें पेय मल्टिनॅशनल, हें आमचें ओरिजीनल... इंडियन... गोवन. खरेंच लक्ष्मणा, तुजें चेडूं एकदम हुशार आसा.

**लक्ष्मण** – बाबा, मधुमिताक गावपाक आनी नाचपाकूय येता. ऑल गोवा सिने रेकॉर्ड डान्स सर्तीनी ताणें खुब बक्षिसां जिकल्यांत. मधुमिता, बाबांक दाखय पळया तुजी कला. (मधुमिता एखाद्या फामाद हिंदी किंवा मराठी गीताचेर नाच करता)

**बाबा** – खरेंच लक्ष्मणा, तुज्या ह्या मधुमितान म्हाका सामको खुश केलो.

**प्रेमानंद** – बाबा, आयज आमी हांगाच रावले जाल्यार...

**बाबा** – प्रेमानंदा, मोह पयस कर. म्हाका खबर आसा हांगचे हे सगळें मनोहारी वातावरण पळोवन तुका हांगाच रावचेशें दिसता. बाय मधुमिता, तूं रोकडेंच मठांत यो. तुज्याखातीर आमी विशेश काम दवरला. प्रेमानंदा, आमच्या महिला समितीची अध्यक्ष जी आसा ती कांयच कामाची ना. त्या मोठेलेक पदावयल्यान काडून उडय आनी अध्यक्षपद ह्या मधुमिताकडेन सोपय. तरणे पिळगेक संद दीवपाक जाय. (मधुमिता बाबांच्या पायांक हात लावन नमस्कार करुन भीतर वता.)

**लक्ष्मण** – बाबा, आमच्या मधुमिताक येदें व्हडलें पद दिवन तुमी म्हजेर जे उपकार केल्यात ते हांव केन्नाच विसरचो ना.

**बाबा** – ते विसरुं नाकाच. पूण हांवेन तुका मठ बांधपाक जमीन पळोवपाक सांगिल्ली, ते तूं विसरलोशें दिसता.

**लक्ष्मण** – ना बाबा म्हाराज हांव विसरुं ना.

**प्रेमानंद** – मागीर पळयल्या तर तुवेंन जमीन?

**लक्ष्मण** – बाबांक आतां टायम आसा जाल्यार... जमनीच्या भाटकाराकडेन उलोवया. ताका आपयल्लोच आसा.

**बाबा** – बऱ्या कामांक टायम किद्याक? खंय आसा तो भाटकार. एकदां जमीन आमचेकडेन आयली म्हणजे मागीर मठ बांधपाचे काम

फास्ट सुरु करुं येता. (लक्ष्मण भायर वता आनी जाण्ट्या भाटकारा
घेवन येता. भाटकार बाबाचे पांय धरुन नमस्कार करता.) आरे
आरे... अशे म्हजे पांयां किद्याक पडटा. तूं म्हज्यापेक्षा कितल
तरीच व्हडलो मरे. खरे म्हटल्यार हांवेन तुका पांय पडपाक जा
अशे लार्गी येवन बसात तुमी भाटकार.

**भाटकार** – बाबा, हांव जरी भाटकार आसलो आनी म्हजेकडेन एक भा
आसले तरी सध्या हांव सामको गरीब जाला. येदें व्हडले भा
आसूनय कांयच फायदो ना. पोट भरपाक पैशे ना.

**बाबा** – खंय आसा तुजें भाट?

**भाटकार** – पोरणें गोंया.

**बाबा** – म्हणजे ओल्ड गोवा मरे? थंय जर आमचो मठ जालो जाल्या
व्हडलो रिकॉर्ड जातलो. थंय व्हडल्यो व्हडल्यो इगर्जी आसात. त्य
इगर्जीमुखारुच आमचो मठ जालो जाल्यार बेस्ट जातलें. दिता म
आमकां जागो?

**भाटकार** – बाबा, म्हजे भाट तुमी विकते घेतल्यार म्हाका पयशे मेळटले आन
म्हजी ही गरीबकाय पयस जातली.

**बाबा** – अधर्म.... अधर्म... कितले कपलखायरे हिंदू आमी? येदो व्हडल
भाटकार तूं... धर्मकार्याक जमीन दितना इतको दळीद्रो रे कस
जाता? आरे, देवा धर्माक दान दिवप म्हटल्यार मोठे पुण्यकार्य
परधर्मी लोकांक पळयात रे. आपल्या देवांक आनी धर्माक कितल
पयसो मोडटा? आणि तूं आमचेकडेन पयसो मागता? भगवंताकडेन
पयसो मागता? जेणी ही धर्तरी निर्माण केली... जाणे ही जमीन
तयार केली ताजेकडेनूच पयशे मागता?

**प्रेमानंद** – बाबा म्हाराज साधो मनीस न्हय. साक्षात भगवंत. पळय पळय. नी
लक्ष लावन पळय बाबांकडेन. मागीर दिसतलो तुका एक अवतारी
पुरुश. पळय पळय बाबांच्या श्रीमुखाकडेन पळयत राव. एका दिव्
शक्तीचो साक्षात्कार जातलो तुका... (भाटकार खुब वेळ बाबांकडेन
पळयत रावता. संगीत सुरु आसा. कांय वेळांत काळोख.)

## प्रवेश चवथो

(गांवचे दृश्य. सरपंच, दमट, कायतान, केशव आनी हेर कांयजाण महासंगमाची प्रचारपत्रकां वाटीत आसा. कांय गावकार पत्रकां वाचीत बसल्यात.)

**सरपंच** – हे पळयात, आमी जशें म्हापशेंच्या दर्शन सुवाळ्याक गेल्ले तशेंच आतां आमकां पणजेच्या महासंगमाक वचपाक जाय. म्हापशेंच्या दर्शन सुवाळ्याक कांयजाण येंवक नाशिल्ले. तशे आतां उपकरचें ना. सगळ्यांनी महासंगमाक वचपाकूच जाय. तशें जाल्यार बाबा म्हाराजाची आनीक चड कृपा आमचेर जातली. आमच्या गावांचो आनीक चड विकास जातलो. सगळ्यांच्या हातीन भरपूर पयसो आडको घोळटलो आनी घरां धनधान्यान भरुन वतली. (राजदीप येता)

**राजदीप** – म्हाका तुमच्यो मुलाखती घेवपाक जाय आशिल्ल्यो.

**सरपंच** – मुलाखती? आमच्यो मुलाखती? त्यो आनी किद्याक?

**कायतान** – सरपंचबाब, तो जर्नलिस्ट सो दिसता. पत्रकार. तेका हावेंन बाबांच्या मठांत पळयल्लो. बाबाचे दर्शन घेवपाक येयलेलो. बाबा म्हाराजाचो भक्त तो.

**राजदीप** – हय, पत्रकार हांव. तुमच्या बाबा म्हाराजांचो परम भक्त हांव. बाबांच्या आशीर्वादान म्हजो पेपर आतां बरो चलता. हो पळयात गोंयचो आवाज. वाचात. (गोंयचो आवाज वाचपाक दिता. दमट आनी कायतान पेपर वाचता)

**सरपंच** – आमचो बाबा म्हाराज तुज्यासारख्या पत्रकारांचो मोठो मान सन्मान करता.

**राजदीप** – बाबा म्हाराज व्हडले समाजकार्य करतात. गोंयकारांची ते व्हड सेवा करतात. बाबांच्या कार्याक लागून आख्ख्या गोंयांत सगळेजाण बाबांचोच जयजयकार करतात.

**कायतान** – आरे पुण पत्रकारा, तूं आमग्या बाबाली येदी व्हडली तोखणाय

कोरताय पूण तुगेल्या ह्या गोंयच्या आवाजात बाबा म्हाराजाचें कांयच दिसों ना. बाबा म्हाराजाचो ना फोटू आनी ना स्टेटमेंट.

**राजदीप –** ताचे किदें आसा जाणा? बाबा म्हाराज येदे व्हडलें कार्य करता खरें. पूण ताचें तें कार्य खंयच्या खंयच्या गांवांनी पावला? बाबाकडेन येवन कितल्या लोकांचे कल्याण जालां? लोकांच्यो डिफिकल्टी बाबा कश्यो सॉल्व करता? हाचो रितसर अभ्यास करता हांव. हो अभ्यास करुनूच हांव बाबांचेर बरयतलो. बाबांचे व्हडले व्हडले फोटू आनी स्टेटमेंट छापतलो. पूण ते करतलो जाल्यार पयली सारखो नीट अभ्यास करचो पडटा न्हय? पत्रकार आमी, सारखो अभ्यास करुनूच बरयतां. सांगपाचे म्हळ्यार बाबा म्हाराजाचेर पीएचडी करता हांव.

**दमट –** किदें? खिचडी करता?

**केशव –** आरे दमट्या, खिचडी न्हय. पीएचडी.

**दमट –** जाणा रे जाणा हांव. म्हाका किदें कळना समजला तूं?

**कायतान –** पीएचडी तुकां कळलेली जाल्यार तूं असो बेबदो जांवचो नासलेलो.

**राजदीप –** पीएचडी म्हटल्यार रितसर अभ्यास करप. संशोधन करप. ह्या अभ्यासातल्यान बाबा म्हाराजांचे खरें पुण्यकार्य लोकांफुडे अदीक स्पष्टपणान येतलें.

**सरपंच –** तशें जाल्यार बरेंच जातलें. जीं चार बोडकां बाबांक विरोध करता तांच्या तकलेंत धवोफुल्ल उजवाड पडटलो. बाबांचे देवरुप तांकां कळटलें.

**राजदीप –** हो अभ्यास सारखो जावचो म्हणूनुच म्हाका तुमच्यो मुलाखती जाय. हांव तुमकां कांय प्रस्न विचारतलो. तुमी तांच्यो जापो दिवच्यो पडटल्यो. जाल्यारुच बाबांचे खरें दर्शन आख्ख्या गोंयांक जातलें. आनी मागीर आता फक्त कांयच गावांनी आशिल्लो संप्रदाय पुराय गोंयभर जातलो. पूण ताका लागून बाबांच्या कार्याचो प्रचार जावपाक जाय. आनी प्रचार करपाचें काम हांव म्हज्या या

पेपरांतल्यान करपाक सोदता. आतां एकेकटो म्हाका सांगात, तुमी बाबांक कित्याक तुमचो गुरु मानता?

**सरपंच** – म्हाका लग्न जावन खूप वर्सा जाल्ली पूण भुरगें जांवक नासलें. म्हज्या बायलेन बाबांच्या मठांत वचून सेवा केल्या उपरांत भुरगें जालें. आनी इतलेंच न्हय तर फाटली चार वर्सा सरपंचपद म्हजेकडेनूच उरला. सगळी बाबांची कृपा.

**दमट** – हांव बाबांकडेन गेलो आनी म्हजो सोरो सुटलो. आता हांव केन्नाच सोरो घेयना.

**कायतान** – आतां मुगे हांव कशे सांगो? (लजेन सांगता) म्हाका एचआयव्ही पोजिटीव जालेले. बाबान स्पेशल चमत्कारी शेराप दिले आनी मागेले एचआयवी नाच्च जाले. आता हांव ह्या डेझेंबरान काजार जातेलो.

**दमट** – गोंयच्या सायबा फेस्त आनी तुगेलें फेस्त एकदमुच तर?

**कायतान** – आरे दमट्या, तूं मदें मदेंकांत उलोय नाका.

**राजदीप** – कायतानबाब, म्हाका एक सांगशी? एचआयवी... तुका जाल्लो एडस् नाच्च जालो म्हणून तुका कशें कळ्ळें?

**कायतान** – तशें बाबान सांगलेलें.

**राजदीप** – तुवेंन डॉक्टराकडे वचून चेकअप केला?

**कायतान** – आतां बाबा म्हाराजूंच आमगे दोतोर.

**दमट** – बाबा म्हाराजासारखो व्हडलो दोतोर ना ह्या जगान.

**सरपंच** – पळयलो, बाबांचेर भक्तांचो कितलो विश्वास आसा तो?

**केशव** – हांवुय परीक्षेंत बोर्डाक पयलो येतलो. फाल्यां रिझल्ट येवपाचो आसा.

**राजदीप** – रिझल्ट डिक्लेर जावच्या पयलींच पयलो येतलो म्हणून सांगता?

**केशव** – बाबान दिल्ल्या दिव्य चमत्कारी पेनान पेपर बरयल्या हांवेन. मागीर पयलो कसो येवचो ना? येवपाकुच जाय. बाबांच्या पेनान दैवी शक्ती आसा.

**राजदीप** – खरेंच बाबा म्हाराज म्हान आसा. आख्ख्या जगाचे कल्याण कर
बाबा म्हाराज. खरें म्हटल्यार बाबांकूच प्रायमिनिस्टर करपाक जा
सगळ्यो कटकटी सुटतल्यो आमच्या देशाच्यो.

**कायतान** – चोयले? पत्रकार म्हुण्टा ते अशे आसपा जाय. तेंकां मोनशा
ताकोद वळखों कळपा जाय.

**दमट** – कोणाक खुर्चेर बसोवपाचे आनी कोणाक देंवोंवपाचें हें काम पत्रका
करता न्हय रे? असली व्हडली कामां हे पत्रकार कांयच
करुन करतात.

**सरपंच** – एकदां पत्रकारांक कळ्ळे जाल्यार मागीर बाकीच्या समाजाक कळपा
टायम लागना. एक काम कर. आमचो हो आख्खो गांव बाबां
भक्त पणजे महासंगमाक वतलो अशी व्हडली बातमी छाप तुज
पेपरांत. सामकी व्हडल्या अक्षरांनी हां.

**कायतान** – आनी आमगे एक फोटू काडून घाल मुरे तुग्या पेपरांत.

**राजदीप** – हय हय. चलात उबे रावात सगळे. (राजदीप आपल्या कॅमेरा
फोटू काडटा. मागीर सरपंच राजदीपाक पयशे दिता.)

**सरपंच** – हें दवर तुका च्यायेक.

**राजदीप** – सरपंचबाब अशें किदें करता... पूण आता तुमी दिता दिता म्हटल्यार
नाकारू शकना. आयल्ले लक्ष्मीक दार बंद करप बरोबर जांवचे
न्हय...(पयशे घेता. दृश्य स्थीर जाता.)

**प्रवेश पाचवो**

(बाबा म्हाराजाच्या मठांत सभा चालू आसा. बाबा पीठाचेर बसल
सगळे पदाधिकारी गर्दी करुन बाबांच्या फुड्यान बसल्यात.)

**बाबा** – आमच्या सगळ्या सेंटरांचे मेंबर आयल्या ते पळोवन म्हजो जी
धादोस जाला. ही गर्दी पळोवन महासंगमाचे काम नेटान चलिल्ल्या
दिसून येता. भगवंतान म्हाका जगाचें कल्याण करपाच्या मिशनाचे
धाडला पूण हें मिशन सक्सेसफूल करपाची जबाबदारी तुमचे
आसा. भगवंतान म्हज्या हातीनसुन केल्ल्या चमत्कारांचें पुस्त

गांवागावांत पावयात. घरांघरांत पत्रकां वांटपाचें काम नेटान करात. भरपूर प्रचार करात. पूण वयर वयरचो प्रचार नाका. इंडिया शायनिंग आनी फिलगुडसारखो प्रचार अजिबात नाका. तो वयलो वयलो प्रचार. तसो प्रचार केल्यार आमच्या संप्रदायाची बीजेपी जातली आनी हांव वाजपेयी जातलो. सायलंट प्रचार करात. लोकांच्या काळजामेरेन पावयात हो ईश्वरी संदेश. सगळ्या गांवांसून पदयात्रा हाडात महासंगमाक. यात्रेत आमच्या संप्रदायाची भगवी गुढी आनी तिरंगो झेंडोय लायात. हिंदुत्ववादीय येतले आनी सेक्युलरवालेय येतले. महासंगमाचो खर्च भरुन काडपाक डोनेशनां घेयात. शंभर कोटी रुपया जमवपाचे टारगेट दवरात. हो सगळो पयसो बहुजनसमाजाच्या कल्याणाखातीर खर्च करतले आमी.

**प्रेमानंद** – अनंतकोटी ब्रम्हांडनायक राजाधिराज... आख्ख्या संवसाराचो पालनकर्तो... बाबा म्हाराजकी जय... आयज हांगासर संप्रदायाखातीर काम करपी कार्यकर्त्यांचो बाबांच्या हस्तुकी भौमान जावपाचो आसा. सगळ्यांत पयली हांव सरपंच बाबुराव हांकां विनंती करता. तांणी बाबांच्या हस्तुकी भौमान स्वीकारचो. (सरपंच उठून बाबांकडे नतमस्तक जाता. मागीर बाबा ताच्या गळ्यांत फुलांचो हार आनी शाल घालून भौमान करता.)

**सरपंच** – आयचो हो दीस म्हज्या जीवनांतलो सगळ्यांत व्हडलो दीस. म्हजे जीवन सार्थक जालें. बाबांच्या मठांत येवच्यापयली हांव म्हज्या गांवांत मटको घेतालों. पूण बाबान म्हाका आशीर्वाद दिलो आनी हांव गांवचो सरपंच जालो. आनी आता हांव सादो मटकेकारुय उरुंक ना. हांव आतां मटका किंग जाला. बाबांच्या कृपेन फाटली चार वर्सां हांव सरपंच आसा. आमका भुरगे जाय नासलें पूण बाबांच्या कृपेन म्हज्या बायलेक चेडो जालो. सगळी सगळी बाबांची कृपा. धन्य धन्य जालो हांव. बाबांन दाखयल्ल्या मार्गावयल्यान गेल्ल्यान म्हाका हें सगळें मेळळां. पूण...

**बाबा** – पूण किदें जालें बाबुराव?

**सरपंच** – बाबा, आतां रोकडेंच सरकार पडपाचें आसा खंय. ताच्या उपरांत असेंबली डिझॉल्व करुन मागीर इलेक्शन जावपाचें आसा. म्हाका ॲसेंबली इलेक्शनाक उबो रावपाचो आसलो...

**बाबा** – मागीर भिता कोणाक? भगवंताची कृपा आसताना कोण हरयतलो तुका इलेक्शनाक? आमचे हजारांनी शिश्य आसा. तांची सगळी मतां तुकाच मेळटली. तूं ॲसेंब्लीन आमदार म्हणून वतलो पूण थंय बसतलो तूं एक मंत्री म्हणून. म्हजो तुका आशीर्वाद आसा. पणजे महासंगमाक मात गांवच्या सगळ्या लोकांक हाडपाक जाय.

**सरपंच** – गांवचे सगळे लोक येतलेंच. त्याशिवाय म्हज्या मतदारसंघातल्या सगळ्या गांवांतल्या लोकांक हाडपाचीय जबाबदारी म्हजी. (बाबा परत सरपंचाचेर पाकळ्यो उडयता. तो बसता. सदानंद आनी राजदीप येतात.)

**सदानंद** – बाबा हो राजदीप. पणजेचो पत्रकार. आमच्या संप्रदायाचो अभ्यास करता. तुमचेकडेन उलोवपाक सोदता तो.

**बाबा** – आमच्या संप्रदायाचो खास अभ्यास करता? गुड! आवडले म्हाका तुजे! आवडले! हो भौमानसुवाळो थोडो वेळ थांबय प्रेमानंद. पत्रकार स्वत:हून आमच्या मठांत येवन अभ्यास करता हें केदें व्हडलें भाग्य आमचें? सगळी भगवंताची कृपा.

**राजदीप** – फाटी हांगां येवन गेल्लो हांव एकदां. तुमचेकडेन येवच्या पयलीं म्हजो पेपर बरो खप नाशिल्लो. आतां तुमच्या आशीर्वादान बरो चलता. तुमची अशीच कृपा लाबली जाल्यार म्हजो गोंयचो आवाज गोंयभर गाजतलो.

**बाबा** – हां हां याद जाली. गोंयचो आवाज नाव घेताच याद जाली. बरे जालें तूं आयलो तें. आतां रोकडोच आमचो पणजे महासंगम जावपाचो आसा जाणा न्हय तूं? आमकां भरपूर पब्लिसीटी जाय आं.

**राजदीप** – खुब... खुब मेळटली तुमकां पब्लिसीटी. तुमच्योच बातम्यो आनी

तुमचेच फोटे छापतले सगळे. हांव एकटोच न्हय तर बाकीचे सगळेच पेपर तुमची तोखणाय करपाक लागतले. तुमी चलयल्ल्या समाजकार्याचो गौरव करतले. पूण तुमच्या ह्या महासंगमाक खर्च कितलो येतलो? (प्रेमानंद फुरफुरता)

**बाबा –** आरे प्रेमानंदा, असो फुरफुरो नाका. पत्रकार तो. अशेच प्रस्न विचारतलो. पत्रकारा, तूं वायट धरूं नाका. किदें आसा जाणां, हें आमचे शिश्य. आमचेर तांची खूब भक्ती. तांका सोसना हे आडवेतिडवे प्रस्न.

**राजदीप –** महासंगमाक खर्च कितलो येतलो?

**बाबा –** तसो चड येवचो ना. फक्त टेन टू फिफटीन क्रोर्स...

**राजदीप –** फिफटीन क्रोर्स... पंधरा कोटी?

**बाबा –** पंधरा कोटी रुपया तशे वायट कामाक खर्च जावचे नात.

**सदानंद –** तूं आमच्या बाबांचो भक्त मरे? आनी अशे उरफाटे प्रस्न करता? आमचो मित्र आशिल्लो पत्रकार तूं आतां रोकडोच दुस्मान कसो किद्याक उलयता?

**राजदीप –** तुमी लोकांक धमक्यो दिवन डोनेशना घेतात...

**प्रेमानंद –** हो तूं आमचेर आरोप करता. तुका हो आरोप म्हारग पडटलो?

**राजदीप –** हांगसून म्हाका फुकटसवाय कांयच मेळचें ना तें जाणाच हांव. आनी फक्त आरोप ना, तर ती तक्रार आसा.

**सदानंद –** ती तक्रार फट आसा.

**राजदीप –** पुरावो आसा म्हजेकडेन.

**प्रेमानंद –** पुरावे अशे शंभर आसतले.

**सदानंद –** तूं संप्रदायाचेर पीएचडी करता काय आमच्या संप्रदायाक बदनाम करपाचें कारस्थान करता?

**बाबा –** प्रेमानंदा, सदानंदा शिस्तीन उलयात रे. ह्या ईश्वरी चळवळीतले आध्यात्मिक कार्यकर्ते तुमी. राजकारणांतले कार्यकर्ते न्हय हे लक्षांत दवरात. पत्रकारांकडेन कशें उलोवचें तें कळना जाल्यार शिकून घेयात. हें पळय राजदीप, आमच्या

नांवाचो वापर करुन जर कोणेंय पयशे करपाचो प्रयत्न केला आसत जाल्या
तूं म्हज्या फुड्यान हाड ताका. हांव ताजेर कारवाय करतलो.

**राजदीप** – पूण तुमका नागडे करून सोडल्याशिवाय हांव वगी बसचो ना.

**प्रेमानंद** – आमका नागडे करपाक तू मठाच्या भायर तरी पावतलो मरे?

**सदानंद** – तुज्या हाडांचो पीठो करून वखदांच्या कारखान्याक धाडटले. (राजदी
मोठमोठ्यान हासता.)

**राजदीप** – बाबा म्हाराज म्हाका माफ करात. आरे प्रेमानंदा आनी सदानंदा
हांव तुमची फकणा करतालो. म्हज्या जाग्यार एखादो दुसरो सामकं
कडक पत्रकार आशिल्लो जाल्यार तो कसो वागतलो आशिल्लं
हाची ही एक झलक. बाबा म्हाराजांच्या आशीर्वादान म्हजो गोंयचं
आवाज फामाद जाला आनी हांव अशें करतलो कशें. हांवें म्हाक
स्वत:क आनी म्हज्या पेपराक बाबान चलयल्ल्या या ईश्वरी कार्याव
अर्पण केला हेंच सांगपाक आयिल्लो हांव. आनी तुमका सांगता
आता बाबा म्हाराजांवयली म्हजी पीएचडी बरोवन पुर्णय जाल्या
रोकडोच बाबा म्हाराजांचेर ग्रंथ बरोवन तो मार्केटांत हाडटलो हांव
मागीर आख्ख्या गोंयांत वचत थंय बाबा म्हाराजांचोच जयजयका
जातलो. सगळी बाबांची कृपा. बोला बाबा म्हाराज की... (सगळेजाण
जय म्हण्टात. राजदीप बाबांच्या पांयांक नाक घश्टीता. ताचे
फुलांच्यो पाकळ्यो उडयता. प्रेमानंदाकडल्यान नोटी घेवन त्यं
राजदीपाच्या बोल्सांत घालता. परत फुलांच्यो पाकळ्यो उडयता
मंगलमय वातावरण. पयलो अंक सोंपता.)

## अंक दुसरो

### प्रवेश पयलो

(मठांत गोंयचो आवाज पेपर वाचून बाबा पिसावल्ल्यावरी जाला.)

**बाबा** – अधर्म... अधर्म... किदें छापला हें...? म्हाका... म्हाका फटींग म्हण
ह्या भगवंताच्या अवताराक फटींग म्हणपी असो हो जाला तरी के
हांव फटींग...? म्हाका वाचपाक जायना हें...

**प्रेमानंद** – (पेपरांत बरयल्ले वाचता) स्वत:क भगवंताचो अवतार म्हणपी य
बाबा म्हाराजान अंधश्रध्देच्या बळार लोकांक लुटपाचें दुकान घात
लोकांच्यो अडचणी पयस करता म्हणून सांगता आनी तांचेकड
हजारांनी पयशे घेता. फटींगपणाचे चमत्कार केल्ल्याची पुस्तकां छ
खोट्या चमत्कारांची पब्लीसीटी करता. हो खरो बाबा म्हाराज न
फटींग बाबा आसा. आख्ख्या संवसारातलो आपूणूच सर्वश्रेष्ट दे
म्हणपी हो फटींग बाबा पयशांशिवाय कसलेंच काम करीना.

**बाबा** – फटींग...फटींग... फटींग... हांव फटींग? प्रेमानंद त्या बातमेंत कितक्याळ
बरयला ते पळय. सगळेकडेन फटींग बाबा आनी फटींग बाबा.

**सदानंद** – बाबा, तुमी अशे वायट मानून घेंव नाकात. ह्या पत्रकाराक थोडे प
दिवया आनी मॅनेज करुया.

**बाबा** – आजून किदें उरलां जाल्यार तें पयली वाच प्रेमानंद.

मानंद – (वाचता) आतां ह्या फटींगान पणजे आपलो महासंगम दर्शन सुवाळो दवरला. महासंगमाच्या नांवान कोट्यांनी पयशे जमयता. लोकांक धमक्यो दिवन डोनेशनां घेता. अशा ह्या फटींग बाबाक पोलिसांनी अटक करुन आग्वाद जेलीन उडोवपाक जाय.

ाबा – म्हाका जेलीन उडोवपाक हांव किदें चंद्रास्वामी कांय कांची मठाचो शंकराचार्य? म्हाका हात लावपाक आसा कोणाक ताकद? हात लावन दाखय म्हणून सांग त्या रिपोर्टराक. म्हजेर पीएचडी करता? म्हजेर ग्रंथ बरयता? ही ही पीएचडी... हो ग्रंथ? त्या रिपोर्टराक... ताज्या गोंयचो आवाजाक गडप करुन उडयलो ना जाल्यार हांव नांवूच सांगचो ना बाबा म्हाराज. आरे, हांव अदृश्य जालो जाल्यार हांकां दिसतलो तरी कसो? हांव हांच्याच फुड्यान उबो आसतलो पूण हांकां दिसचोच ना. मंत्रसिध्दी आसा म्हजेंकडेन हें हांका खंय खबर आसा. वेळ पडल्यार हें आख्ख्ये गोंयूच ना करपी. आमी जर निर्माण करपाक जाणा जाल्यार सोपोवन उडोवपाकुय जाणा.

ोमानंद – म्हणजे बाबा गोंय तुवेंनूच निर्माण केल्लें? पूण आमी वाचलां त्या प्रमाण गोंय परशुरामान निर्माण केल्लें.

ाबा – परशुराम म्हटल्यार कोण रे? हांवूच... हांवेनूच तेन्ना परशुरामाचो अवतार घेतिल्लो. जेन्ना जेन्ना गरज पडटा तेन्ना तेन्ना हांव नवो अवतार घेतां. पूण म्हज्या फुडें वचपी... म्हाका फटींग म्हणपी हो पत्रकार कोणाचो अवतार तोच म्हाका कळना. अभ्यास करता... पीएचडी करता म्हण्टा म्हण्टा ह्या पत्रकारांन आमच्या भितरले सगळें पळोवन घेतलें आनी आतां अशें गांवांर घातलें. किदें म्हण्टले आमचे भक्तगण...?

ोमानंद – (वाचता) फटींग बाबा... ढोंगी बाबा... बहुरुपी... खंडणीबहाद्दर... संधीसाधू... आनी... आनी लफडेबाज बाबा...

ाबा – तूं म्हजी किदें आरती गायता?

दानंद – तुका म्हणून कांयच कळनां मरे. तुंवूंय पत्रकार जालो काय किदें?

ेमानंद – बाबा इतकी चिंता करु नाकात. त्या पत्रकाराक उडोवया खलास करुन थंयच्या थंयच. सेक्युरीटी इंचार्ज आसा नी मुन्नाभाय तो करतोलो हे काम. पत्रकारुय खलास आनी गोंयचो आवाजुय बंद.

बाबा – तूं सामको पिसो जाला. पत्रकाराच्या आंगार हात घालीत जाल्यार किदें जाता ते जाणा तूं? खंयची रत्ना धाडल्यांत देवान देवांक खबर.

प्रेमानंद – बाबा... देव तुमीच न्हय.

बाबा – आरे हय रे, हांवूंच देव. हांवूंच भगवंत. पूण केन्ना केन्नाय देवांकूय एक पावल फाटीं घेवचें पडटा. विसरलो रामायण... म्हाभारत...? आरे आमचो संप्रदाय वाडोवपाक आमकां तीन गजालींची गरज आसता. तीन पी म्हण्टात तांकां. एक पी म्हटल्यार प्रेस... पेपर. दुसरी पी म्हटल्यार पुलीस... आनी तिसरी पी म्हटल्यार पोलिटीशन्स! ह्या तिघांकूय धरुन रावल्यार आमचे कोणुच कांयच वांकडे करुंक शकचे ना. म्हाराष्ट्रांत आमी तशेंच केल्ले. ह्या गोंयातुय तशेंच जातलें आशिल्लें. पूण... त्या रिपोर्टराक किदेंय केलें जाल्यार गोंयचे सगळे पत्रकार आमकां सोंपयतले. मागीर ना उरचो हो आमचो संप्रदाय आनी ना उरचो हो मठ आनी हो बाबा म्हाराज.

प्रेमानंद – बाबा, आमी ताका पयलीच जाग्यार बसोवंक जाय आशिल्लो. आमी समजताले तो खास अभ्यास करता आमच्या संप्रदायाचेर.

बाबा – पत्रकार तशेंच आसता. पयली येता बोकड्यो जावन आनी मागीर रोकडेंच जाता वाघ शिंव. तुमकां हावेन सांगिल्ले, डोनेशना घेतना धमक्यो दियात पुण आजुबाजुकय पळयात. तुमकां कोण पळयना हाची खबरदारी घेयात. पुण ना तुमचेकडेन तें जाले ना. आतां घातलो म्हाका त्रासान.

प्रेमानंद – बाबा तुमी ह्या पेपराक भिता?

बाबा – तूं आतां एक शब्द उलोवं नाका. पेन आनी कागद हाड. बरय...

प्रेमानंद – किदें बाबा...?

बाबा – आरे खुलासो बरय. गोंयच्या आवाजाक धाडपाक खुलासो बरय. खुलासो छापल्या उपरांत हें प्रकरण आपुणच बंद जातलें. ह्या खुलाशाबरोबर एक लाखाची जायरातूय धाड तांका. जायरात मेळळ्या उपरांत वग्गी बसतलो तो पत्रकार. चल बरय. प्रिय संपादक... गोंयचो आवाज... पणजे (संगीत सुरु जाता. बाबा ताका डिक्टेट करीत आरुतानाच काळोख जाता.)

### प्रवेश दुसरो

(गांवचें दृश्य. दमट, कायतान, गणपत, प्रभाकर आनी हेर कांयजाण पेपर वाचीत आसा. दमट आता सोरो पिल्लो आसा.)

**प्रभाकर** – वाचात, दोळे फोडून वाचात तुमच्या बाबा म्हाराजाची कर्तुपां.

**कायतान** – हे पेपर आमग्ये बाबाक बदनाम करता. तेंच्यानी पयशे घेतल्या आसतोले दुसऱ्या बाबाकडच्यान. तो थिंगासोर बसला नु... चैतन्याबाबा.

**दमट** – म्हाका दिसता, त्या चैतन्याबाबानुच पत्रकारांक पयशे दिल्या आसतले. तेचे सगळे शिष्य तेका सोडून आमच्या बाबांचे भक्त जाल्या नु रे.

**कायतान** – तेचों संप्रदाय बंद जावपाक पावला असतेलो.

**प्रभाकर** – ताकां तुमच्या बाबाच्या शिश्यांची कांयच गरज ना. चैतन्याबाबकडेन भरपुर आसात शिश्य. लोकांक सुधरवपाक ताणें केल्लें कार्य खुब मोठे आसा. तो तुमच्या बाबासारखे चमत्कार करीना. फक्त लोकांक बरो उपदेश करता. कश्ट करुन ह्या संवसारात ताठ मानेन सुखासमाधानान कशें जगप तें शिकयता. तो तुमच्या बाबासारखो फटींग बाबा न्हय.

**गणपत** – आमच्या बाबांक फटींग म्हण्टा?

**कायतान** – प्रभाकरा, बाबाक तूं फटींग म्हुण्टा. पूण तुगे बायल मोहिनी, मात भुरगें जावचे म्हुण आमगे बाबाकडेन गेल्ली. तुका खबर आसाय मुरे?

**दमट** – हेका खंय खबर आसतलें? हो हांगा अंधश्रध्दा निर्मुलन करीत बसलो. थंय हेची आवय आनी बायल बाबांकडेन वचून आयली.

**प्रभाकर** – म्हजी बायल ताचेकडेन गेली म्हणून तो फटींग, खरो बाबा जावचो ना. फटींग तो फटींगुच! आनी तो जर देव आसा जाल्यार म्हज्या बायलेक किद्याक भुरगे जावंक ना? (गणपत, दमट, प्रभाकराच्या आंगार धांवता. ते ताका मारपाक सोदता इतल्यान इन्सपेक्टर येता. तो तांकां सोडयता)

**इन्स्पेक्टर** – आरे, अशें किद्याक झगडटात तुमी?

**गणपत** – आमच्या बाबाक हो फटींग म्हण्टा.

**प्रभाकर** – हांवूच किद्याक? आख्ख्यें जग म्हण्टा. वाचात वाचात सगळे पेपर वाचा म्हटल्यार कळतलें तुमकां तुमचो बाबा कितको सज्जन तो. भुरगी नाशिल्यांक भुरगी दिता? गुंड, मटकेकारांक आमदार, मंत्री करता?

खयंच्याय कट्ट तिखट वस्तीक हात लावन ती वस्त गोड म्हूण दाखयना? सगळीं सगळीं फटींगपणा.

**इन्सपेक्टर** – बाबा म्हाराजाक तसो तूं कमी समजूं नाका. आतां हेंच पळय, बाबाविरुद्ध पेपरांनी कितलें बरोवन येता. पूण लोकांक पडला किदे? अख्ख्या गोंयसून दिसाक शंबर तरी गाडयो भरुन लोक वतात बाबांच्या ठाण.

**प्रभाकर** – ह्या लोकांक आडोवन धरपाक जाय. पत्रकारांनी ह्या बाबाविरुद्ध जी मोहीम चालू केल्या ती योग्यच आसा. देसाय, हांगच्याच पेपरांनी म्हय तर मुंबयच्याय पेपरांनीं आतां ताच्यो भानगडी छापून येवपाक लाग्यात.

**इन्सपेक्टर** – पूण पत्रकारांनी सुरु केल्ल्या ह्या मोहिमेक चड यश येतलें अशें म्हाका दिसना. बाय द वे हांव वता. देवळांत पांये पडपाक आयिल्लो. वतहांव. बेश्टेंच झगडत रांव नाकात. नाजाल्यार एकमेकांच्यो तकल्योबी फोड्यात. बरें तर येता हांव. (इन्सपेक्टर वता)

**दमट** – काय बरो बाबा आसलो आमचो. तेजेकडेन गेल्ल्यापासून म्हजें सगळें सुटलेलो. मटक्याचे नंबरुय बरे लागताले. आतां हांव सामको [illegible] जालां. किदें करपाचें तेंच कळना म्हणून परतो सोरो पिवपाक [illegible]. पूण प्रभाकर, तुका सांगता, पेपरांनी छापून येता म्हणून तूं अश्या बाबाक किदेंय म्हणत जाल्यार...

**कायतान** – हांव तुका जित्तो... (इतल्यान केशव सामको आपल्याच तंद्रेनयता. कायतान तेका पळोवन अजाब जाता.) जित्तो...? जित्तो...? अ[illegible] नामदेवालो केशव मुरे? मेलेलो केशव जितो जालो...?

**दमट** – आरे केशवाचें भूत आसतलें तें?

**केशव** – तुमीय म्हाका भुतुच समजता?

**कायतान** – आरे, तुगे बापायक बाबा म्हाराजान सांगलेले की तुयेंन पुलाव[illegible] उडी मारून आत्महत्या केली म्हूण. तेको लागून आयज तुज्या घर[illegible] तुजो बारावो आसा नु रे. आमी आतां थिंगासरूच वयपा [illegible] बाराव्याचें जेवपाक. पूण तूं तर... असो... जितो... भूत...

**प्रभाकर** – त्या बाबा म्हाराजान तुमच्या तकलेंत वायटी घातल्यांत. तो भूत ना जितो केशव आसा तो. केशव, इतके दीस खंय आसलो तूं?

**केशव** – बाबान दिल्ल्या पेनान हांवेन पेपर बरयले. पूण हांव बोर्डान [illegible]

आयलो ना आनी पासुय जालो ना. हांव फेल जालो. म्हजे सगळें फ्रेंड पास जाले. घरच्यांनी म्हाका खुब तापयलो म्हणून हांव घर सोडून गेल्लो. आयज परत आयलो. आतां हांव घराकडेन गेल्लो. घरचे सगळे लोक बारावो घालपाच्या बोवाळांत आसा. तांणी म्हाका भूत भूत म्हणत धांवडायलो. आतां हांव देवळांत वता. आता गणपतीकूंच मागणें घालता. आतां तोच विघ्नहर्तो म्हाका वाट दाखयतलो.

करर – पूण तूं इतके दीस आसलो खंय?

– हांव लजेन सामको बेजार जाल्लो. म्हजे हांगा मन लागनाशिल्लें. हांगा राविल्लो जाल्यार हांव पिसो जातलो आसलो म्हणून बेळगांवा गेल्लो.

तान – आरे दमट, तेगे आयकोंता किर्ते रें? चोय रे चोय. तेगे पाय चोय रे. (सगळेजाण भूत म्हणून पळटात. प्रभाकर मात थंयच रावता आनी केशवाक आपले कुशींत घेता. अनिश्चित वातावरणान काळोख जाता.)

**प्रवेश तिसरो**

(गोंयचो आवाज पेपराचें ऑफिस. राजदीप मोबायल फोनाचेर उलयत आसा. ऑफिसान एका मेजां फुडले खूर्चेर राजदीपाचो उपसंपादक मनोज आनी जाण्टो सांगाती गजाभाऊ काम करीत आसा. संगीत चालू आसा. मोबायल फोन बंद करता आनी मागीर गजाभाऊच्या मेजाकडेन वता)

दीप – गजाभाऊ, हो बाबा म्हाराज आतां सामको पिसावतलो. मनांतल्यान म्हाका गाळींचो शिवोर करता आसतलो. आमकां सोपोवपाचेंय चिंतता आसतलो. ताकां दिशिल्लें आसतलें की ताणें धाडील्ले खुलाशे छापल्या उपरांत हें प्रकरण हांव मिटयतलो. तांणी आमकां दिल्ल्यो जायराती छापील्ल्यो जाल्यार तो लोकांक सांगपाक मेकळो आशिल्लो, की जायरातीखातीर आमी ताचेर बरयताले. तकलेंत तसो भरपूर शाणो आसा तो. पूण ताची शाणपणां म्हजेकडेन चलपाची ना हें कळ्ळां आसतलें ताका आतांमेरेन.

भाऊ – म्हण्टलो कसो, ह्या पोरान सारखी केली आपल्याचेर पीएचडी. पूण खरेंच राजदीप, ह्या पीएचडीखातीर तुका गोल्ड मेडल मेळपाकूच जाय.

ज – (लँडलायनीची रिंग वाजल्या उपरांत मनोज फोन घेता) नमस्कार

गोंयचो आवाज ऑफिस.... उलयात... राजदीप सर? आसात... एक मिनिट आं... (राजदीप थंय वचून फोन घेता)

**राजदीप** – हां. उलयात... खंयच्यान उलयता.... हां.... हां.... अच्छा.... सांगात.. तुमकां किदें खबर आसा तें सगळे सांगात.... अच्छा... बरे.... हय हय आमी सगळे छापतले... बरें तर... आनी किदेंय आसा जाल्यार फोन करुन सांगात आमकां.... बरें....(फोन दवरता) कोणतरी बर्वे म्हणून प्रोफेसर उलयतालो. फटींग बाबाची कर्तुपां सांगतालो. (राजदीपाक मोबायल फोन येता) हां उलय संदेश... थँक यू.. आरे गेले दोन म्हयने हांव ताज्याच फाटल्यान आशिल्लो. सगळे पळोवन आयला हांव. ह्या फटींग बाबाक कसो नागडो करता तें पळय तूं संदेश... छाप, छाप मरे... आमी सगळ्या पेपरांनी मेळून ताका नागडो करपाक जाय... यो यो... मनोजाकडेन जायते फोटो आनी पुस्तकां आसात त्या फटींग बाबाची... दिता तुका हांव....तुका जाय ते वापर तूं... आनी तो प्रकाशुय छापता जाल्यार विचार ताका...बरे तर. ओके.

**गजाभाऊ** – राजदीप, आतां हें अशेच फोन येत रावतले.

**राजदीप** – आयज संदेशुय आपल्या पेपरांत छापता खंय ही बातमी. तुमकां सांगता गजाभाऊ आमी सगळ्या पेपरांनी मेळून जर ही लढाय लढली जाल्यार तो फटींग बाबा आग्वाद जेलींत पावपाक टायम लागचो ना.

**गजाभाऊ** – सगळे पेपर छापीत अशें दिसना म्हाका.

**मनोज** – तांका त्या फटींग बाबाच्यो जायराती मेळटा न्हय.

**राजदीप** – पयशे मेळटा आसत जाल्यार जायरात कसली तें पडलां कोणाक? संपादकांनी व्यासपीठावयल्यान संस्कृतायेचेर व्हडली व्हडली भाषणां ठोकपाची आनी तांच्याच पेपरांनी उघडे नागडे फोटो छापपाचे. तंबाखु गुटक्याच्यो जायराती... बीयर सॉऱ्याच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो जायराती... हातचलाखी... जादू करुन लोकांक फटोवपी तांत्रिक, मांत्रिकांच्यो जायराती आनी असल्या बाबा म्हाराजांच्या दर्शन सुवाळ्यांची पान पान भर प्रवचनां छापपाचीं. असले हे पेपर ह्या बाबा म्हाराजाच्या विरुध्द किदें बरयत अशें म्हाकाय दिसना. आतां हो संदेश मात छापतलो सगळें.

**मनोज** – जायराती आनी आपल्या पेपराचो सेल वाडपाक जाय म्हणून किदेंय

करपाक तयार आशिल्यांकडसून आमी अपेक्षा धरप म्हटल्यार...

**[रा]जदीप** – हांवे कोणाकडल्यानूच अपेक्षा धरूंक ना. हो बाबा म्हाराज फटींगपणा करता. अंधश्रध्देच्या बळार लोकांक लुटता. लोकांचो फायदो घेता हें म्हाका कळला. हांवे ताजो सगळो अभ्यास केला. तो गुन्यावकार आसा. ताका धरुन दिवपाचें काम हांव करतलो. ताका लागून गरज आशिल्ली जागृताय हांव निर्माण करतलों. ह्या कामांत म्हाका कोण हात दितले ते दितले. हांव कोणाची वाट पळयत रावचो ना, हांव कोणाक रडत रावचो ना.

**[ग]जाभाऊ** – खरेंच राजदीप. आयज हांवे तुज्यांत रामनाथबाब पळयलो. तुज्या बापायचो पूत सोबता तू. रामनाथबाबानुय अशीच निर्भीड पत्रकारीता केली. या प्रेसांत रामनाथबाबा बरोबर काम करताना जसो अभिमान दिसतालो तसोच अभिमान आता तुज्याबरोबर काम करताना दिसता.

**राजदीप** – गजाभाऊ, रामनाथबाब हो म्हजो बापुय आशिल्लो तरी तो एक झुजारी पत्रकार आशिल्लो हाचो म्हाका चड अभिमान आसा. रामनाथबाब कितलो भाग्यवंत आशिल्लो? ताच्या तरूणपणांत ताका भारतकार हेगडेदेसायाचे मार्गदर्शन लाबील्ले. भारतकार हेगडेदेसाय आनी लोकमान्य टिळकांसारख्या झुजारी पत्रकारांची ही परंपरा आमकां फुडें व्हरपाक जाय. आमच्या हांगाय सत्याक लागून झगडपी, व्यसनां आनी अंधश्रध्देच्या विरोधांत झुझपी पत्रकार आसा हें जगाक दाखोवन दिवपाक जाय, इतलेंच न्हय तर वेळ पडल्यार हेगडेदेसाय, टिळक हांच्यापेक्षा एक पावल फुडें वचून काम करपाक जाय. कितलें यश येतले तें म्हाका खबर ना, पूण हांव ही लढाय लढतलो. (इतल्यान गोंयचो आवाज मुर्दाबाद... आमचो बाबा भगवंताचो अवतार... अशो घोशणा आनी बोवाळ आयकूंक येता. जनेलाचेर फातोर बसता. गजाभाऊ जनेलांतल्यान पळयताना ताज्या तकलेर फातर पडटा. मनोज ताका सांबाळता आनी राजदीप पोलिसांक फोन करपाक लागता. इतल्यान दमट, कायतान, गणपत, सरपंच, लक्ष्मण भितर सरतात.)

**लक्ष्मण** – पेपराचो सेल वाडोवपाक लागून आमच्या बाबा म्हाराजाविरुध्द फटींग बातम्यो छापता? किदयाचें किदेंय बरयता?

**दमट –** नंबर वन पेपर जावपाक जाय तुमकां? फोडा रे ऑफिस.

**राजदीप –** थंयच्या थंयच उबे रावतले सगळे. आमी सत्याची बाजू घेवन लढटा तुमचो बाबा फटींग आसा. तुमकां सगळ्यांक फटयता तो. आरे आ तुमी जागे जायात. तुमी जागे जावचे म्हणूनच बरयता आमी. सार मन लावन वाचात तें आनी थंडपणान विचार करात. जागे जाया आता जागे जायात...

**कायतान –** जागे जाल्या म्हणूनूच येयल्या इंगासोर.

**गणपत –** आमी जागे जाल्या, पूण आतां तुकां न्हीदोवंनूच वतले आमी.

**कायतान –** बाबाचेर पीएचडी करता म्हणून सांगतालो, पुस्तक बरयता म्हणृ सांगतालो... आनी आतां..?

**सरपंच –** आमच्या बाबाविरुध्द बरोवपाचें आतां बंद कर. नाजाल्यार...

**राजदीप –** किदें किदें करतलें तुमी? तुमच्या असल्या धमक्यांक हांव भिंवचो न आरे, तुमकां कळना तुमी किदें करता ते.

**कायतान –** आमग्ये बाबा इतलो वायट जाल्यार हजारांनी लोक कशें येता मठां बाबा फाटल्यांत चड लोक आसा, तूं एकलो आहा. तुगें शाणेंप चलपा ना इंगासोर. दीस इज डेमाक्रेसी... जाणां मुं रे?

**दमट –** हांगा मॅज्योरिटी जाय.

**राजदीप –** आरे मॅज्योरिटीन जाता ते आमदार आनी मंत्री, आनी तांची त सरकारा. तांचें अस्तित्व सिध्द करता ते मतदार. तशेंच तुमच्या र बाबाचें. तुमी सगळें आसा म्हणून तो बाबा. नाजाल्यार ताकां विचारत कोण? पूण हांव ज्या सत्याक लागून झगडता त्या सत्याचें तशे न सत्य आसा ते सत्यच आसता. ताका दुसऱ्यांचो आदार लागना. आन तें सत्य अशें मॅज्योरिटीतल्यान सिध्द जायना. जाचे स्वताचें स्वतं अस्तित्व आसता. सूर्याप्रमाण स्वयंप्रकाशीत आसता ते. कांय वेळा सत्याच्या फाटल्यान तुमी म्हण्टा ती मॅज्योरिटी आसना, म्हणून त सत्य... असत्य जायना. तुमचो बाबा ढोंगी आसा, फटींग आसा, असत आसा. आनी तेंच असत्य हांव सगळ्यांक दाखोवपाक सोदता. आरे ह्या तुमच्या बाबान आख्ख्या देशभर हजारांनी लोकांक लुटल्यात आतां गोंयकारांक लुटटा तो. तुमकां फटयता तो...

लक्ष्मणा – आयकतात किदे रे तेचें लेक्चर? फोडात... फोडा.. (ऑफीसाची मोडतोड करतात. पोलिसांच्या व्हॅनीचो आवाज येता. सगळेजाण पळून गेल्या उपरांत पोलिस इन्सपेक्टर देसाय आनी हेर पुलिस येतात. काळोख जाता.)

### प्रवेश चवथो

(गोंयचो आवाजाच्या ऑफिसान राजदीप, गजाभाऊ, मनोज काम करीत आसात. गजाभाऊच्या कपलाक बँडेज केल्लें आसा.)

राजदीप – गजाभाऊ, त्या फटींगाचे हांवे दर्शन घेतील्लें आसाच... आतां तुमीय घेयात. सारखो पळोवन घेयात फटींगाक. वखद कोडू बी लागता जाल्यार सांगात ताकां. तो हात लावन गोड करुन दितलो. इतलेंच न्हय तुमच्या टोपयेसकल... म्हणजे तुमच्या विमानतळाचेर केस सुध्दा पिकयतलो तो... बाबा म्हाराज. (सगळे हांसता. कांय वेळान बाबा म्हाराज आनी प्रेमानंद तशेंच सदानंद येतात. नमस्कार करता. बरोच वेळ समळे उबेच रावतात) हांवूच राजदीप. तशे आमी मेळ्यात पयली पूण तुमच्या तकलेंत उरुंक नासतलो म्हजो चेहरो. तुमी रोकडेच विसरतात. बसात आनी सांगांत बाबा म्हाराज किदें म्हण्टात तुमी?

बाबा – म्हाका खुप बरें दिसले! तुवें म्हाका शेवटाक बाबा म्हाराज म्हटलो! (बसता) बरयतना सदांच तूं म्हाका फटींग बाबा म्हणून बरयता. आसूं... केन्नातरी म्हजें मोठेंपण दिसतलें तुका.

राजदीप – तूं तसो मोठो आसा अशें मानताच हांव. भगवंताचो अवतार. पूण ते फटींगपणाचे धंदे बंद कर आतां. (प्रेमानंद, सदानंद फुरफुरता. बाबा आडयता.)

बाबा – हें पळय मिस्टर राजदीप. म्हाका ऑफिसांत येवपाची तशी गरज नासली. पूण मनीस केदोय व्हडलो आसलो तरी केन्ना केन्ना धाकटो जावचो पडटा. म्हणून म्हजो मठ सोडून ह्या तुज्या ऑफिसांत येवचे पडलें. तुजेकडेन म्हजें एक मागणें आसा.

राजदीप – तुजें आनी म्हजेकडेन मागणें?

प्रेमानंद – हें पळय आमच्या बाबाक तूं म्हणूं नाका. तुमी म्हण. बाबा म्हाराज

म्हण. आदरान उलय. आवयबापायन शिकोवंक ना?

**सदानंद** – बाबा म्हाराज तुज्या दारांत आयल्यात. आतां ते तुजे सोयरे आसात. येदो व्हडलो पत्रकार जावन अतिथी देवो भव विसरलो?

**बाबा** – आरे सदानंदा, आसूं रे आतां. जालें तें खूब जालें. राजदीप, तुवेंन म्हज्याविरुध्द बरोवपाक सुरु केलें आनी आतां सगळेच पत्रकार बरोवंक लागल्यात. हांव सामको बदनाम जाला. तुमच्या ह्या पेपरांनी सामको आडवो केला. अशे जाल्यार पणजे म्हजो महासंगम सुवाळो कसो जातलो? किदें जाता जाणा, तुमी अशे पेपरांनी बरोवपाक लागले की आमचेकडेन येवपी भक्तगण कमी जातात. तेन्ना कृपा करुन म्हज्याविरुध्द कांयच बरोवं नाका.

**राजदीप** – हांव तुज्याविरुध्द कांयच बरय ना. करता ती तुज्या कामाची तोखणाय. तुवेंन केल्ल्या चमत्कारांची तोखणाय. तुजी तोखणाय करपी लेख हांवेन बरयले जाल्यारुच म्हजो पेपर गोंयातलो नंबर वन पेपर जातलो, असो आशीर्वाद तुवेंनूच दिल्लो न्हय म्हाका?

**सदानंद** – बाबान तुका बाबांचे निरुपण छापपाक सांगिल्ले...

**प्रेमानंद** – बाबांचे फोटू छापपाक सांगिल्ले...

**सदानंद** – अशी टीका न्हय. तोखणाय करपी लेख बरोवपाक सांगिल्ले.

**राजदीप** – आनी आतां बरयता तें किदें तर? आरे, तुमच्या बाबान केल्ल्या पराक्रमाची तोखणाय बरयता मरे हांव. बाबा म्हाराजाच्या चमत्कारांची तोखणाय.

**बाबा** – म्हजोच आशीर्वाद असो म्हजेरुच परतीलो?

**राजदीप** – तूं हात लायिल्ली वस्त गोड कशी जाता?

**बाबा** – आरे तोच तर चमत्कार.

**राजदीप** – तूं मेल्ल्यांक जीते करता? कुडड्यांक दोळे दिता?

**बाबा** – आरे पिशा... मेल्ल्यांक जीते करप, कुडड्यांक दोळे मेळप, परीक्षेक बसपी भुरग्यांक पास करप हे सगळे हांव करतां, अशे हांव म्हणना. म्हज्या ज्या भक्तांक अनुभुती मेळटा ते भक्त तसो प्रचार करतात.

**राजदीप** – भुरगीं नाशिल्ल्या बायलांक तूं भुरगी दिता?

**बाबा** – हांव भुरगी दिता अशे हांव म्हणना. बायलां म्हज्या मठांत येवन म्हजी

सेवा करपाक लागली की गुरवार जातात आनी तांकां भुरगीं जातात. सगळीं भगवंताची कृपा. भगवंत... भगवंत...

**राजदीप** – मागीर ह्या बाबा म्हाराज लिलामृतांत बरयल्या ती सगळीं बंडलां? आमी ताका बंडलामृत म्हणपाचें?

**बाबा** – ह्या ग्रंथानूच म्हजी सगळी वाट लायली. आरे हो ग्रंथ हांवेन बरोवंक ना. तो आमच्या मठानुय छापूंक ना. म्हज्या एका भक्तांन बरयला तो. किदें आसता जाणा? आमच्या संप्रदायांनी बाबाचे बरेंपण मेळोवपाक भक्तांच्यो सारख्यो लायनी लागिल्यो आसतात. म्हज्या कामाची तोखणाय करुन म्हज्या लागी येवपाक पळोवपी एका भक्तान बरयला हो ग्रंथ. म्हजो कांयच संबंध ना त्या ग्रंथाकडेन.

**राजदीप** – तूं म्हाका किदे तुजो भक्त समजला? तूं सांगतलो आनी हांव आयकत रावतलो. हो ग्रंथ मठांतल्यान आनी सेवा केंद्रातल्यान कसो खपता तर?

**प्रेमानंद** – एकदम बेस्ट खपता. सगळे रिकॉर्ड ब्रेक. आतामेरेन पाच लाख ग्रंथ खपले. गोंयानुय एक लाख खपले. रोकठोक. उदारी कांयच ना.(बाबा तिडकीन पळयता. आपुण चुकीचें उलयल्याचे लक्षांत येताच प्रेमानंद वोग्गी रावता.)

**राजदीप** – मेल्ल्या मनशांक तूं जीते करता अशे बरयला या ग्रंथान. तशे जाल्यार मदर तेरेजाक किद्याक जीती केली ना?

**बाबा** – हंड्रेड पर्सेंट करतलो आशिल्लो. भगवंताच्या कृपेन तिकाय जीती करतलो आशिल्लो. पूण ती आमच्या धर्माची न्हय.

**राजदीप** – धर्म ..? तुका कोणे सांगला धर्म? तुमी दवरला खंय धर्म? तुमच्या सारख्या फटींगांनी सामको बदनाम करुन सोडला आमचो धर्म. मनशाक मनशाभाशेन जगोवपी आमचो सत्य सनातन हिंदू धर्म तुमी काबार केलो. आपल्याक जाय तसो धर्माचो अर्थ लावपाचो. आपल्याक जाय त्यो गजाली घुसोवपाच्यो धर्मान. धर्माच्या नांवान अंधश्रध्दा वाडीक लावपाच्यो आनी लोकांकडसून पयसो काडपाचो. जगांत सर्वश्रेष्ट आशिल्ल्या ह्या धर्माचो तुमच्यासारख्या दळीद्र्यांनी सामको कोळसो करुन सोडलो. धर्माच्या नांवान अधर्म... अधर्म माजयला तुमी.

**सदानंद** – सामको स्वामी विवेकानंद कसो उलयता हां तूं

**प्रेमानंद** – पूण हे पळय, तुजे भाशण आयकुपाक आमकां टायम ना.

**बाबा** – हें पळय राजदीप, हांवें जें किदें केले तें जर तुज्या नजरेन वायट आस जाल्यार हांव तुजेकडेन माफी मागता.

**राजदीप** – माफी मागली म्हणजे तूं सज्जन जातलो? महात्मो जातलो?

**बाबा** – आरे चुको कोणी करुंक ना? रामान, कृष्णान आनी गांधीन करुंक न चुको? पूण महात्मो जालो मरे तो? काँग्रेसीन कितल्यो चुको केल्यो रे? पूण इलेक्शनाच्यावेळार लोकांकडेन माफी मागल्या उपरांत काँग्रेस परत म्हान जाली काय ना? लोकांनी परत सत्ता दिली काय ना काँग्रेसीक? अडवाणीन पाकिस्तानाक वचून जीनाक म्हान राष्ट्रवादी नेतो म्हणून चूक केली. पूण पार्टेन ताका माफ केलो मरे?

**राजदीप** – बंद कर तुजें हें प्रवचन. तकली घुंविल्यावरी किदयाच्या किदेय बडबड नाका. वडाची साल पिपळाक लावं नाका.

**बाबा** – तशें जाल्यार वडाची साल वडाकुच लायता आतां. तुवेंन म्हज्याविरुध्द जी मोहीम सुरु केल्या तांतून तुका किदें मेळटले? म्हयनोभर चलतली ही तुजी लढाय. मागीर किदें? म्हज्या संप्रदायाक तर कांयच जावचें ना. थोडे भक्त कमी जातले इतलेंच. पूण कांय वेळान हें सगळें विसरतले आनी परत येतले ते म्हज्या संप्रदायान. म्हजे साम्राज्य गडगंज आसा. पूण तुजें किदें? म्हजेर चड बरयले म्हणून तुजो पगार वाडचो ना आनी तुका प्रमोशनुय मेळचें ना.

**प्रेमानंद** – आनी एका दिसा तुका संपादकान काडून उडयलो जाल्यार...

**राजदीप** – हांगा हावूंच संपादक आसा हें तुज्या लक्षात येवंक ना शें दिसता. हावुंच मालक ह्या पेपराचो.

**बाबा** – गुड... गुड. तुजोच पेपर म्हटल्यार कांय उलोवपाचेंच ना. पुण हांव जरी पत्रकार ना तरी हे पेपर चलोवप तशे सादें काम न्हय हें म्हाका खबर आसा. रातीचे दीस करचे पडटात. इतके करुन मेळटा किदें तुमकां? हेंच पोरणे ऑफिस... पोरणी मेजा... पोरणे फोन... ना धड फॅन... ना एसी... ना गाडी. कितले पत्रकार बंगल्यांनी रावतात? कितले पत्रकार एसी गाडयांनी भोंवतात? तुज्यासारख्या पत्रकाराक तर केन्नाच मेळचे ना हें सगळें. तूं सामको स्ट्रीक्ट. सत्यवादी. आरे पूण पेपराचें ऑफिस

कशें चकचकीत आसपाक जाय. आयचो काळ कसलो? इन्फॉर्मेशन टॅक्नॉलॉजीचो. आयटी... आयटी मॅन जा मिस्टर राजदीप. नवे कंप्युटर घे... इंटरनेट, ब्रॉडबँड, डिजिटल कॅमेरे, लॅबटॉप घे... तुजी व्हॅबसाईट सुरु कर... पयशे हांव दिता. एक... दोन कितक्यो जाय तितके कोटी दिता. हांव फायनान्स करता तुज्या या पेपराक. झिरो पर्सेंट स्कीम. नो इंटरेस्ट... नो गॅरंटर.

**राजदीप** – तुज्यो ह्यो स्कीमी तुजेकडेनूच दवर. म्हाका कांयच नाका.

**बाबा** – हे कांयच नाका? मागीर बंगलो घे... फार्म हावस घे... फायस्टार हॉटेल घे. नाजाल्यार हो पेपर बंद कर आनी टीव्ही न्युज चॅनल सुरु कर.

**राजदीप** – तूं म्हाका किदें रिपोर्टर फॉर सेल समजला? हांव तसलो यलो जर्नलिस्ट न्हय हे लक्षांत दवर.

**बाबा** – पयली ऑफर म्हणून हे कॅश धा लाख हाडील्ले. (सदानंद बॅग टेबलार दवरता) ते परत घेवन वचपाचे? (राजदीप बॅग भिरकावन मारता. सगळ्यो नोटी ऑफिसभर पसरता.)

**प्रवेश पांचवो**

(गांवांन सभा सुरु आसा. दमट, कायतान, गणपत, केशव, प्रभाकर हेवुय लोकांमदी बसल्यात. राजदीप लोकांच्या फुड्यान तावातावान बाबाविरुध्द उलयत आसा. ताजे उलोवप आयकुंक येना. त्यावेळार संगीत आयकुपाक येता. हें चालू आसताना दमट उठून उबो रावता.)

**दमट** – आमच्या गांवानसून महासंगमाक पदयात्रा वचपाकूच जाय. नाजाल्यार बाबा म्हाराज आमचेर रागार जातलो.

**गणपत** – (उठत) ज्या गांवानसून पदयात्रा वयची ना त्या गांवांचेर संकट येतलें अशें सांगलां बाबान. ह्या गांवानच्यान पदयात्रा वचपाकूच जाय.

**कायतान** – (उठता) आमग्या संप्रदायाची ताकोद दाखोवंक जाय. बशी, पिकआपी, टेंपो भरुन लोकांक व्हरपाक जाय.

**राजदीप** – आरे, पूण तुमकां कळना कशें? बाबाच्याविरुध्द किदें किदें छापून येता तें खबर आसा मरे? वाचता मरे पेपर तुमी? हो गोंयचो आवाज वाचात. बाबाची फटींगपणा आमी पत्रकारांनी उजवाडाक हाडल्या. सगळीकडेन बाबाविरुध्द वातावरण तापलां. फक्त तुमीच बाबाक घेवन

नाचता. खंयच्याच गांवानसून पदयात्रा वचची ना. आनी तो महासंगमूय जावचो ना. (सरपंच उठता आनी रागान पळयता.)

**सरपंच** – हें पळय पत्रकारा, चार उतरां बरयलीं म्हणून तूं व्हडलो बुदवंत जावंक ना. तुमी पत्रकार किदेंय बरयता... आमच्या बाबाक बदनाम करपाक.

**दमट** – बाकीच्या संप्रदायांनी तुमकां पयशे दिल्यात आमच्या बाबाक बदनाम करपाक.

**गणपत** – तुज्या ह्या पेपराचो सेल वाडोवपाक तूं बरयता हें सगळें.

**कायतान** – हालींचे सगळेच पत्रकार अशेंच पयशे घेवपाक लागल्या. तुको आमी बरो पत्रकार समजोताले. पूण तूं...

**राजदीप** – तुमची बुध्दी भ्रष्ट जाल्या. आरे त्या फटींगाची सगळीं लफडी मुंबयतल्या पेपरानीय छापून आयल्या. तो अवतारी पुरुश ना. तो खंयचेच चमत्कार करीना. तांणी पुस्तकांत आपणे जे चमत्कार केल्यात म्हणून बरयल्या ते कांयच खरें ना. सगळे फट.

**दमट** – आनी तूं म्हण्टा तें सगळे खरे?

**राजदीप** – हांव सांगतां तो शब्दान शब्द खरो आसा. आनी तुमकां खबर आसा? संप्रदायांतल्या बायलांचेर आनी चलयांचेरुय ताजी वायट नजर आसता. भुरगीं नाशिल्ल्या बायलांक मठांत आपयता आनी तांचेर बलात्कार करता.

**गणपत** – तोंड सांबाळुन उलय. आमचो बाबा अवतारी पुरुश आसा.

**राजदीप** – अवतारी पुरुश? जाल्यार तांणी ताजी मुलाखत घेवपाक गेल्ल्या पत्रकारांक किद्याक मारले? पेपरांनी व्हडल्यो जायराती दिवन खुलाशे किद्याक करता तो? म्हज्या ऑफिसान येवन म्हाका पांयें किद्याक पडटा?

**कायतान** – तुको पांयें पडोंक तूं कितें देव रे?

**राजदीप** – बाबांचे भक्त पत्रकारांक मारताना टिव्हीर दाखयला.

**सरपंच** – महासंगम सुवाळ्याक आख्ख्या देशांनसून भक्त येवपाचे आसा. ह्या म्हज्या गांवानसुनय व्हडली पदयात्रा वतलीच. हांव पळयता कोण आडयता ती.

**राजदीप** – देशांतल्यान एकुय पदयात्रा येवची ना. आनी महासंगमुय जावचो ना. सगळेकडेन मोर्चा काडून लोक ह्या तुमच्या फटींग बाबाक अटक

करपाची मागणी करतात.

**प्रभाकर** – हो पत्रकार सांगता तेंच खरे. राजदीप, हांव तुज्या वांगडा आसा. असल्या फटींग बाबांच्याविरुध्द पत्रकारांनी लडाय करपाकुच जाय. आमच्या अंधश्रध्दा निर्मुलन समितीचे सगळे कार्यकर्ते तुज्या फाटल्यांत अखंडपणान उबे आसतले.

**राजदीप** – हात लायल्याबरोबर खंयचीय वस्तु गोड कशी जावं येता? केस गेल्ल्या तकलेर बेश्टो हात लायलो जाल्यार केस कशे येंव येता? कांयच शिकनासताना हांणी दिल्ल्या पेनान पेपर बरयलो जाल्यार पास कशे जांव येता? गुरवार बायलेच्या पोटाक हात लायल्यार पोटातल्या चेडवाचो चेडो कसो जावं येता? सगळीं सगळीं फटींगपणा. आनी तुमी सगळे ताच्या ह्या फटींगपणाच्या जाळ्यांत अडकून पडल्यात. आमी गोंयकार शिकिल्ले लोक. सगळे ग्रेज्युएट. जाण्टेलेसुध्दा चवथी पाचवी शिकिल्ले. पुण अशे अंधश्रध्देक बळी पडटात. तुमी सगळे असल्या फटींग बाबांक बळी पडटा, कारण तुमकां सगळ्यो गोश्टी आलायत्यो जाय आसता. दुसऱ्यांपरस आपलेकडेन चड धन दौलत आसची अशें दिसता. कश्ट करुन पयसो आनी यश मेळोवंच्यापरस अशा फटींगांच्या पांयांकडेन नाक घश्टून मेळोवपाक सोदतात तुमी सगळे. (केशव भीत भीत उबो रावता, पूण धीरान उलयता.)

**केशव** – तो बाबा म्हाराज फटींगुच आसा. हांव बोर्डात पयलो येतलो म्हणून सांगून तेणे म्हाका फटयलो. पूण आतां हांव तेका केन्नाच बळी पडचो ना.

**प्रभाकर** – शाब्बास केशव! ह्या फुडें कोणूच बळी पडचे नात त्या फटींगाक.

**सरपंच** – प्रभाकर... कोणाच्या फुड्यान आनी किदें उलयता रे तूं?

**प्रभाकर** – महासंगमाक आमच्या गांवच्यान पदयात्रा वचची ना. आनी ह्याफुडें त्या फटींग बाबाचे हांगचे सेवा केंद्रुय बंद.

**सरपंच** – प्रभाकरा, तुमी मॅट्रीक फॅट्रीक... कंप्युटर... संप्युटर इंजिनियर जाले म्हटल्यार ह्या गांवचे बापुय जावंक ना. हो गांव आमी चलयता. बाबाच्या महासंगम दर्शन सुवाळ्याक गांवच्यांनी वचपाचे काय ना ते आमी ठरयतले. ह्या पत्रकारांनी आमकां सांगपाची गरज ना. आमीय

चार अक्षरां शिकिल्ले आसात. बाबा म्हाराजांचें सेवा केंद्रुय चलतले आनी महासंगमाक पदयात्राय वतली. ह्या पत्रकाराची तकली घुंवल्या मारात ताकां.

**प्रभाकर** – राजदीपाक कोणुच हात लावचो ना. हात लायत जाल्यार तुमकां म्हारग पडटलें. पत्रकार आसा तो. पत्रकाराक मारप म्हटल्यार...

**सरपंच** – आरे, अशें आयकता किदें ताजें निरुपण? मारात ताका. (राजदीपाक आनी प्रभाकराक मारतात. प्रवेश सोंपता.)

**प्रवेश सवो**

(गोंयचो आवाजाच्या ऑफिसान राजदीप आनी हेर उलयत आसा.)

**राजदीप** – गजाभाऊ, आतां आमी ही लडाय जिकतलेच.

**गजाभाऊ** – बाकीचेय पेपर ताच्याआड बरयता म्हणून बरें जालें. सगळ्या लोकांक कळळी ताचीं सगळीं लफडीं. मुंबयच्या पेपरांनी तर ताकां सामको धुंवन काढला. सगळे लोक आतां पिशे जाल्यात ताकां मारपाक.

**मनोज** – वदळ स्टार न्युजाचेर दाखयलां. पाच वर्सा पयली खंय ताकां दिल्लीच्या कांय तरनाट्यांनी एका फंक्शनाक तरेकवार प्रस्न विचारुन बेजार केल्लो. एकाय प्रस्नाचें ताणें सारखें उतर दिवंक नाशिल्लें. शेवटाक पळोन गेल्लो खंय हो भगवंताचो अवतार. दिल्ली पुलिस ताकां आजून अटक करपाक सोदतात.

**राजदीप** – आतां फक्त हांगच्या पुलिसांनी ताज्या महासंगमाचेर बंदी घालपाक जाय. पूण धार्मिक नेतो म्हणून सरकारुय असल्यांचेर कारवाय करपाक भीता. चीफ मिनीस्टराचो आयचो स्टेटमेंट तर सामकोच पचपचीत आसा. सरकार सामके तकलेन घुंविल्याभाशेन दिसता. सगळेंच कडेन हांचे मतांचें राजकारण. पावला कणकणी हे मतांची गणीतां करतात.

**गजाभाऊ** – आमचो देश सगळ्या वाटारांनी श्रीमंत आसा. आमका लाबील्ली ही सुपीक धर्तरी, तीज्या उदरांतली नाना तऱ्हेची खनीजां. ज्ञानवंत, प्रज्ञावंत आनी परीश्रमी लोकांनी भरील्लो हो देश. खरें म्हळ्यार इतल्यांत ही भूंय जगातली एक महासत्ता जातली आशिल्ली. पूण स्वार्थी राजकारणाक लागून हो आमचो हिंदुस्थान फाटी उरलो. या राजकारणाक लागूनच आमच्या देशाचे दोन कुडके जालें.

**राजदीप –** इतलेंच न्हय, हे राजकारणी आमच्या देशाचे आजून चारपाच कुडके केल्याशिवाय रावचे ना. (इतल्यांत जाण्टेलो भाटकार आनी मधुमिता येवन दाराचेर उबी रावतात.)

**भाटकार –** तुमी पेपरांत त्या फटींग बाबाचेर बरयता म्हणून आयलां हांव. तेणे म्हाका फटयला. सामको नागयला. पोरण्या गोंया म्हजें भाट आसा. थंय तो फटींग आपलो व्हडलो मठ बांधपाक सोदता. एका दिसा तेच्या शिश्यान, लक्ष्मणान म्हाका म्हापशां आपल्या घरा आपोवन व्हेलो. थंय हो बाबा आसलो. आपलो मठ बांदपाक तो भाट फुकटूच मागपाक लागलो. म्हणपाक लागलो, भाट दिलो जाल्यार सुटतलो. नाजाल्यार मंत्रसिध्दीच्या जोराचेर गडप करुन उडयतलो सगळें. मागीर ना उरचें तुजें भाट आनी ना उरचो तुजो जीव. आतां तुमीच म्हाका वाचयात. तेचे शिश्य सदांच येवन धमकयतात म्हाका. कागदार आंगठो लाय म्हुण्टा. नाजाल्यार जीतो मारपाचो भंय घालता. आतां तुमीच म्हाका न्याय दियात.

**राजदीप –** तुवें पोलिशेंत तक्रार किद्याक करुंक ना?

**भाटकार –** हांव गेल्लो पोलिशेंत... म्हजें कोणूच आयकून घेनात. कांयच बरोवन घेनात. वयल्यान म्हाका सांगतात तो बरो चमत्कारी बाबा आसा खंय. ताज्या मठांत वचत जाल्यार म्हाका सगळें सुख मेळतलें खंय. पयशे मेळटले.

**राजदीप –** पुण तूं इतले दीस वोगी किद्याक रावलो?

**मधुमिता –** पुण हांव वोगी रावचें ना त्या नराधमाक.

**गजाभाऊ –** नराधमाक?

**मधुमिता –** हय. नराधमुच तो. आमचे आख्ख्ये घर ताचे शिश्य जालां. म्हजो बापुय संप्रदायाचो अध्यक्ष आसा. तुमचें ऑफिस फोडपाक म्हजो बापुय फुडें आशिल्लो. हांवें सांगिल्ले ताका... पेपराचें ऑफिस फोडप योग्य ना.

**गजाभाऊ –** पूण त्या नराधमाचें किदें सांगतालें तूं?

**मधुमिता –** त्या नराधमान म्हाका आपल्या मठांत व्हरुन संप्रदायाच्या महिला विभागाचे प्रमुख केलें. जेन्ना जेन्ना संधी मेळटा तेन्ना तेन्ना म्हजेर हात घालपाचे यत्न ताणे केलें. म्हाका तें बरें दिसनाशिल्लें. मागीर हांवेन

मठांत वचप बंद केले. पूण आई आनी बापायच्या आग्राखातीर म्हाका परत मठांत वचचें पडलें. अशाच एका दिसा ताणें म्हजेकडेन शरीरसुख मागलें. शरीरसुख दीत जाल्यार म्हज्या पोटांत मोठो पराक्रमी भुरगो जन्माक येतलो अशें सांगलें. हांव ताका साफ नकार दिवन थंयच्यान पळून येवपाक लागलें. पूण ताज्या गुंडांनी म्हाका आडयलें आनी त्या नराधमाच्या ध्यानधारणेच्या रुमान व्हरुन म्हजेर... (रडटा)

**राजदीप** – तुज्या आवय बापायक खबर ना हें सगळें?

**मधुमिता** – हांवे तांकां सांगले. पूण लज आनी त्या नराधमाच्या भयान आई वोगी रावली. बाबा मात उरफाटो म्हाकाच तापोवंक लागलो. हावेंन त्या नराधमाच्या आड तक्रार केली जाल्यार आपलें संप्रदायाच्या गोंय शाखेचें अध्यक्षपद वतलें हाचो ताका भंय आशिल्लो. त्या नराधमाच्या विरुध्द जे भक्त उलयता तांकां तो कायमचे सोंपयता. पूण आतां हांव वोगी रावचें ना. म्हजो हो स्टेटमेंट तुमी पेपरांत छापा. हांव पोलिशेंतुय तक्रार आनी स्टेटमेंट दिवन आयलां. ही घेयात कॉपी. (कॉपी दिता.)

**राजदीप** – अशा कितल्याशाच बायलांक, चलयांक ताणे भ्रश्ट केल्यांत आसतलीं.

**मधुमिता** – इतलेंच न्हय जाल्यार अंधश्रध्दा निर्मुलन समितीचे काम करपी आनी ह्या बाबा म्हाराजाक विरोध करपी प्रभाकराच्या बायलेचेरुय ताणे बलात्कार केला. प्रभाकराच्या आवयन तिका भुरगें जायना म्हणून ह्या फटींगाच्या मठांत व्हेली. भगवंताचो प्रसाद म्हणून घुंवळीचे वखद घातिल्लो शिरो खावपाक दिलो आनी तिजेर बलात्कार केलो ह्या नराधमान.

**राजदीप** – भुरगीं भुरगीं म्हणून किदेंय करपाक तयार आसतात हीं बायलां आनी थंयच असल्या फटींग बाबांचे आयतें फावता. अडाणी आसूं शिकिल्ले... सगळेच धांवता ह्या फटींग बाबांकडेन. हांव म्हण्टा इतकीच जर तुमकां भुरग्यांची व्हडवीक आसता जाल्यार अनाथाश्रमातली भुरगीं किद्याक घेना तुमी? किद्याक जायना तुमी तांचे आवय आनी बापूय? किद्याक दिना तुमी तांकां तुमच्या मायेचो पालव. माया करपाक तुमकां तुमची रक्ताचीच भुरगीं किद्याक जाय? दुसऱ्या रक्ताच्या भुरग्याक तुमी आपली माया किद्याक दिनात...? खरे तर भुरगीं म्हळ्यार फुलां. सुंदर सुंदर फुलां. सगळ्यांकूच आवडटा ती फुलां. ती फुलां मागीर आपल्या

पोरसांत फुलुं नाजाल्यार शेजाऱ्याच्या पोरसांत फुलुं नाजाल्यार रस्त्यार किंवा अळशीकेच्या जाग्यार फुलुं. तांची सोबितकाय कमी जायना. तशेंच आमी भुरग्यांकडेन पळोवंक शिकपाक जाय. आपल्या घरांत भुरगें येयना जाल्यार शेजाऱ्याच्या भुरग्याक आपले मानूंक जाय. नाजाल्यार खंयच्या तरी कचऱ्याच्या डब्याकडेन वा देवळाच्या सोंपणांचेर दवरिल्ले आनी मागीर अनाथाश्रमान पाविल्या भुरग्याक आपणावन ताका आवयबापायची माया दीवपाक जाय. पूण ना... आमका अशें वागप जमना. आमी सगळ्या वाटारांनी इतकी प्रगती केली पुण आमच्यातल्या मनीसपणाची मात प्रगती जावंक ना.

**गजाभाऊ –** पूण राजदीप, जांचो शिक्षणाचेर आनी कश्टांचेर विश्वास आसता ताणीं देवाचेरुय श्रध्दा दवरपाक जाय. शिक्षणाच्या आदारान केल्ल्या कश्टांक जे फळ मेळटा म्हण्टा न्हय, तें दुसरें कांयच नासून तोच देव. तेंच दैवी शक्तीचें अस्तित्व.

**राजदीप –** हय गजाभाऊ, तुमी म्हण्टा तें सारखें. पूण आमका शिक्षण नाका आनी कश्टुय नाका जाल्या. आमचें हें सुपुल्लें गोंय. देवभूमी म्हण्टात सगळें. वाड्या वाड्यार देवळां. देवांची सासाय. दिसानदीस देव आनी देवळांय वाडत आसात पूण.. पूण आमच्यामदीं देवत्व मात येना. इतक्या देवांच्यामदीं रावुनुय आमी राक्षसांसारखे किद्याक वागतात? (पोलिस सायरनाचो आवाज येता. कांय वेळांत इन्सपेक्टर देसाय येता.)

**राजदीप –** देसाय आयलो तूं... बरें जालें. हें पळय आतां म्हजेकडेन खुब पुरावे आयल्यात. ह्या भाटकाराचे भाट गिळपाखातीर ताकां जीतो मारपाच्यो धमक्यो दिल्या त्या फटींगान. ह्या चलयेचेर शारीरिक बळजबरी केल्या आनी आनीक खुब प्रकरणां आसात. आतां करता मरे अरेस्ट त्या फटींगाक?

**इन्सपेक्टर –** हांव तुका आनी तुज्या प्रेसाक पोलिस सेक्युरीटी दिवपाक आयलां. सकयल सगळ्याक पुलीस दवरल्यात. एक जीपुय दवरल्या. तुका जाय जाल्यार हांगां तुज्या लागीय पुलीस दवरता.

**राजदीप –** म्हाका पुलीस प्रोटेक्शन नाका. ह्या भाटकाराक आनी मधुमिताक दी पुलिस प्रोटेक्शन.

**मधुमिता** – आमकां पुलिसांची कांयच गरज ना. आमी वतात. चल भाटकारा तूं म्हज्याबरोबर यो. हांव पळयता तुका कोण हात लायतात ते. (दोगांय वतात.)

**राजदीप** – पळयले देसाय, लोक कशे चवताळल्यात ते? महासंगमाक दोनुच दीस उरल्यात. ताज्या पयलींच एक तर महासंगमाचेर बंदी घालपाक जाय नाजाल्यार ताका ॲरेस्ट करपाक जाय.

**इन्सपेक्टर** – आरे राजदीप तूं एक बरो पत्रकार जाल्यार बाबा म्हाराज एक बरो धार्मिक नेतो. तूं तुज्या क्षेत्रांत आनी बाबा म्हाराज ताज्या क्षेत्रांत कार्य करीत आसात. आनी तुका सांगता, बाबा म्हाराज खरोच चमत्कारी आसा. तुका खबर आसा...? ताणी सांगिल्ले की हांव तीन दिसाभीतर सब इन्सपेक्टरावयल्यान इन्सपेक्टर जातलों. तश्शे जालें.

**राजदीप** – (हांसता) आरे देसाय, तांतूंत चमत्कार कांयच ना. पाच सब इन्सपेक्टर आशिल्ले आनी पाच इन्सपेक्टराचे जागे रिकामे आशिल्ले. हय मरे? आरे त्या पाचूंय जाग्यांचेर तुमकां पाचुय जाणांक बसयले. हांतूंत बाबाचो चमत्कार आयलो खंय? तूं त्या फटींगाकडेन गेलो म्हणून इन्सपेक्टर जालो अशें जर तूं समजता जाल्यार बाकीचे चारुयजाण काय ताजेकडेन वचूंक नाशिल्ले.

**इन्सपेक्टर** – तूं म्हण्टा तें पट्टा म्हाका. पूण ह्या सगळ्यांच्यो कंपलेंटी खऱ्यो मानल्यो तरी बाबा म्हाराजाक अरेस्ट करपाचे अधिकार म्हाका ना.

**राजदीप** – अधिकार ना? आरे तूं किदें सादो पुलीस न्हय. एक इन्सपेक्टर तूं

**इन्सपेक्टर** – अधिकार आसतात आमचेकडेन हें खरें... पूण त्या अधिकारांच्यो दोरयो मात आमच्या वयल्या बॉसांकडेन आसता. तुका हें खबर ना काय किदें? आरे साद्या मटकेकाराक अरेस्ट करतलो जाल्यार शंभर वेळा विचार करचो पडटा आमकां. सांगपाक जायना कोण खंयच्या पार्टीचो कार्यकर्तो आसत आनी कोण खंयच्या मंत्र्याचो मेवणो आसत ते.

**राजदीप** – तुमची पुलिसांची ही सदाची कॅसेट म्हाका आयकुपाची ना. कायद्यान दिल्ल्या अधिकारांचे तुजेकडेन पालन करपाक जर जायना जाल्यार तुवेंन घरा बशिल्लें बरें. त्या पदार दुसऱ्या कर्तव्यदक्ष अधिकाऱ्याक बसोवं येतले.

**इन्सपेक्टर** – एकदां गेल्लो हांव त्या बाबाकडेन हाचो अर्थ असो न्हय की हांव ताजो परम भक्त. तो कितलो लफडेबाज बाबा आसा हे आतां म्हाकाय कळ्ळां. पूण हांव ताका अरेस्ट करूं शकना. आनी तुका सांगता राजदीप, ताका ॲरेस्ट जरी केलो तरी ताची रवानगी आग्वाद जेलींत जातलीच अशेंय ना.

**राजदीप** – तें खबर आसा म्हाका. असल्या फटींगाक... मोठमोठ्या गुंडाक... कोर्टानसून सोडोवन हाडपी खूप ॲडवोकेट आसात आमच्या देशांत. कोण जेट मलानी... कोण गडणीस–फडणीस... नाडकर्णी–फाडकर्णी... कंटक–फंटक... धांवन येतले सगळे ह्या फटींगाक सोडोवपाक.

**इन्सपेक्टर** – हांव वता आतां. तुका पुलिस आनीक जाय जाल्या सांग.

**राजदीप** – देसाय, म्हाका पुलिस नाका, म्हजे तीन डिमांड आसात. पयलो... महासंगमाक लागून लोकांक धमक्यो दिवन डोनेशनां एकटांय करपी बाबा म्हाराजाच्या शिश्यांक अरेस्ट करप. दुसरो डिमांड... महासंगमाचेर बंदी घालप आनी म्हजो तिसरो डिमांड... अंधश्रध्दा प्रतिबंधक कायद्यासकयल तशेंच बलात्कार आनी खुन प्रकरणातलो आरोपी म्हणून बाबा म्हाराजाक अरेस्ट करप.

**इन्सपेक्टर** – बाबा म्हाराजासारख्या मनशाक अरेस्ट करप हें तूं समजता तितकें सोंपे ना. तशें गडगंज सरकार जाय पडटा. डॅरींगबाज चिफ मिनिस्टर जाय.

**राजदीप** – चिफ मिनिस्टर मागीर. पयली पुलिसानी तयारी तरी करपाक जाय मरे. तूं म्हाका सांग, पुलिस बाबा म्हाराजाक अरेस्ट करपाक तयार आसा? चिफ मिनिस्टर अरेस्ट करपाक दिना?

**इन्सपेक्टर** – म्हाका आतां चीफमिस्टिराच्या कॅबिनांत मिटींग आसा. आयजीपी आनी सगळ्या पुलिस ऑफिसरांक आपयल्यात सीएमान. बाबा म्हाराजाक अरेस्ट करपाची ऑर्डर दिता कांय तुमकां सगळ्या पत्रकारांक अरेस्ट करपाची ऑर्डर दिता ते पळोवया आतां. ओके? (इन्सपेक्टर दाराकडेन वता आनी परत येता.) बाय द वे, तुज्या प्रॉटेक्शनाक हांगा भीतर दोन पुलिस दवरूं? (राजदीप रागान देसाय म्हणून तापता. दोघुय एकमेकाक पळयत रावता. दृश्य स्थीर जाता. एकेवटेन संघर्षमय संगीताचो आवाज वाडत वता जाल्यार दुसरेवटेन उजवाड कमी जायत वता. प्रवेश सोंपता)

## प्रवेश सातवो

(मठांत बाबा म्हाराज आपल्या शिश्यांफुडे मोठमोठ्यान उलयता आसा)

**बाबा –** फाल्या पणजे महासंगम जातलो म्हटल्यार जातलोच. कोणुच आमकां आडोंवक शकचे नात. तुमी भरपूर काम करात. पन्नास लाख लोक जमपाक जाय. कितले? (सगळे भक्त मोठ्यान पन्नास लाख अशें म्हण्टा) हे पत्रकार आनी अंधश्रध्दा निर्मूलन समितीवाले म्हटल्यार सगळे कुत्रे. भोंकतले भोंकतले आनी न्हीदतले. जे म्हजी भक्ती करीनात ते कोणूच उरचे नात ह्या संवसारात. परत एकदां दर्यांत सुनामी भुकंप जातलो. जे म्हजी भक्ती करीनात तांकां त्या सुनामींत जलसमाधी मेळटली. तें पळयात तिसरें महायुध्द... तीं पळयात अमेरिका आनी मुस्लीम राष्ट्रांची मिसायलां तयार रावल्यांत महायुध्दाक. रोखडेंच पेटट्लें हें तिसरें महायुध्द. कोण वाचयतलो ह्या संवसाराक? आसा कोण या संवसारात तुमकां वाचोवपी? फक्त हांवूच वाचोंव शकतलो. हांव... हांव भगवंताचो अवतार. जे जे म्हजी भक्ती करतात ते तेच जीते उरतले या धर्तरेचेर. बाकीचे सगळे मरुन पडटले ह्या महायुध्दांत. नाश... विनाश... पुर्णविनाश जातलो सगळ्यांचो.

**प्रेमानंद –** अनंतकोटी ब्रम्हांडनायक राजाधिराज... आख्ख्या सवंसाराचो पालनकर्तो... बाबा म्हाराजकी जय...

**बाबा –** म्हाका अटक करपाची मागणी करतात सगळे. म्हाका...? चीफ मिनिस्टरान म्हाका अटक करपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार ताजे सरकारुच गडगडावन सोडटलो. (इतल्यान राजदीप आनी इन्सपेक्टर येता. राजदीप ताळयो वाजयता)

**राजदीप –** वा... वा... कितलें सुंदर भाशण? महासंगमाक पन्नास लाख लोक येतले. वा... वा. बाबा म्हाराज, तुजी तकली सामकीच वायटींनी खाल्या. गोंयची लोकसंख्याच आसा फक्त तेरा लाख, आनी तुज्या महासंगमाक पन्नास लाख लोक जमतले? खंयच्यान हाडटलो? चमत्कार करुन? भगवंता... बंद कर आतां तुजो हो अंधश्रध्देचो बाजार.

**बाबा –** (शांतपणान) हें पळय पत्रकारा, हांव अंधश्रध्दा करता म्हणुन तुमी सिध्द करचे पडटलें. आरे, अंधश्रध्दा म्हटल्यार किदें? श्रध्दा म्हटल्यार

किदें? खंयची श्रध्दा आनी खंयची अंधश्रध्दा, हे ठरयतलो कोण? तुमी पत्रकार ठरयतले? कायदो बी किदें लागता काय ना?

**राजदीप –** हांव जाणाच आशिल्लो, गोयांत अंधश्रध्देविरुध्द कायदो ना हाचो तूं फायदो घेवपाक सोदतलो म्हणून. आमच्या गोंयांत आजुनमेरेन अंधश्रध्देच्या विरुध्द कायदो जांवक ना हें आमचें दुर्दैव आसलें तरी तुजी आतां सुटका ना. तुका जेलीन उडोवपाक आमकां अंधश्रध्दाविरोधी कायदो जायच अशें ना. तुवे धमक्यो दिल्यात, खंडणी मागल्या, खून आनी बलात्कारुय केल्यात. पत्रकारांचेर शस्त्रां घेवन हल्लेय केल्यात. हे खुब जालें तुका आग्वाद जेलींत धाडपाक.

**बाबा –** (शांतपणान) तुमीं अज्ञानी आसा म्हणून सांगता तुमकां. म्हाका जेलींत घातलो जाल्यार किदें जातलें तें भविश्य खबर ना तुमकां.

**इन्सपेक्टर –** अनंतकोटी ब्रम्हांडनायका... राजाधिराजा... भगवंताच्या अवतारा आमका सगळें खबर आसा. जाणें तुज्या तकलेंत पाटलोभर दिव्य ज्ञान घालून तुका या धर्तरेचेर धाडला, ताणे आमच्याय तकलेंत कुलेरभर काय जायना, पूण ज्ञान घातला. राजाधिराजा, हे पळय तुजे भविश्य बरोवन हाडला हांवेन. (अटक वॉरंट बाबाकडेन दिता. शिश्य बोवाळ घालतात. बाबा वाचता.)

**बाबा –** शांत रावात. वोगी रावात. आमच्या महासंगमाचेर सरकारान बंदी घातल्या. पूण भींवपाची कांयच गरज ना. हें ॲरेस्ट वॉरंट म्हटल्यार ह्या सरकाराचे दीस भरिल्ल्याची सर्टीफिकेट आसा. (वॉरंट भिरकावन मारता. ॲरेस्ट करा ॲरेस्ट करा... फटींग बाबाक ॲरेस्ट करा... अशा घोशणांचो आवाज येता. पुलीस येतात आनी शिश्यांक घेवन वतात.)

**राजदीप –** तुज्या या बंडलामृताचेरुय बंदी घातल्या सरकारान.

**बाबा –** पुस्तकाचेर बंदी घातली म्हणून म्हजे विचार मरचे नात.

**राजदीप –** विचार? विचार कसले? फटींगपणाचे म्हान विचार न्हय? म्हान विचारांच्या महासंता, तुज्या सगळ्या शिश्यांक अटक केल्या पुलीसांनी.

**बाबा –** (तिडकता) पिशें लागला पुलिसांक. आपलें मरण आंगार ओडून घेतलां तांणी.. आरे देसाय, तुका हांवेनूच इन्सपेक्टर केल्लो मरे'? तुंवूय असो कुत्रो जालो?

इन्सपेक्टर – (तिडकता) बाबा म्हाराज...

बाबा – तूं म्हजेर तापता? या भगवंताचेर...?

राजदीप – अश्यो आडूडी मारुं नाका. अवतारी पुरुश तूं सोबना तुक ते. भगवंत.. भगवंत तूं..

इन्सपेक्टर – लॉ अँड ऑर्डर राखपाक लागून तुज्या सगळ्या शिश्यांक त्यांत घेवपाचो आदेश मेळळा म्हाका. महासंगमाच्या नांवान तुमी लोकांकसून कोट्यांनी पयशे जमयल्यात. धमक्यो दिल्यात म्हणून तुज्या सगळ्या केंद्रांच्या शिश्यांक आमी ताब्यांत घेतल्यांत. या मठांतुय आत तुज कोण उरुंक ना. (प्रेमानंद आनी सदानंद मात आसात)

राजदीप – तुजो हो मठ बेकायदेशीर आसा. तो मोडून उडोवपाचो आदेश दडला कलेक्टरान. आता रोकडोच या तुज्या अड्ड्याचेर बुलडोझर भोंवडतलो

बाबा – आरे प्रेमानंद, गोंय सरकारांत आमचो कोणुच ना...? तो पर्रा, कानावडे, कार्लेकार... खंय गेले रे सगळें? आरे सदानंदा, महारात्रांत तरी कोण आसा जाल्यार पळय. नाजाल्यार दिल्लीवाले तरी कोण येना जाल्यार पळयात रे बाबानो.

राजदीप – आता खंय गेली भगवंताची सगळीं अस्त्रां... शस्त्रां? खंय गेली मंत्रिदी चमत्कार? भगवंताचो अवतार तूं आनी असो भिता?

प्रेमानंद – आसाच आमचो बाबा भगवंताचो अवतार. शंभर नंबरी भगवंत. बाबाक हात लायत जाल्यार तुमचो जातलो गोबोर.

राजदीप – गोबोर शेवटाक सगळ्यांचोच जाता. तुजोय जातलो. ते कोणकूच चुकना. ह्या भगवंताकुय तें चुकुंक ना. ताजोय जातलो गोबोर.

बाबा – आमच्या देशांत संतपुरुषांचो असोच छळ जायत आयला.

राजदीप – संतपुरुष...? मलमली... सिल्काच्या कपड्यांनी नटपी... एसी गाडयांनी भोंवपी आनी कोटींच्या बंगल्यांनी मोव मोव गादयांचेर न्हीदपी संत्‌

इन्सपेक्टर – टायमाप्रमाण बदलचे पडटा न्हय राजदीप. तेन्नाचो काळुच तसो आशिल्लो म्हणून तेन्नाचे संत बिचारे सादे रावताले. आतां काळ बदलला. जमानेके साथ चलना जरुरी है ना?

बाबा – सारकें सारकें... हंड्रेड पर्सेंट सारकें तुजें देसाय.

राजदीप – आरे फटींगा, खरे संतपुरुश पांयांनीच भोंवताले. तुज्यासारकें मठांतल्या

अशे मोजें घालून भोवंनाशिल्ले. काट्याकुट्यानसून... दोंगरावयल्यान... न्हंयेंतल्यान... भोवले ते. संत ज्ञानेश्वर... संत तुकाराम... संत सोहिरोबानाथ आंबिये... कृष्णंभट बांदकर महाराज... आनी स्वामी विवेकानंद! सगळ्यांनी वतानसून... पावसानसून भिजत भिजत लोकांक ज्ञान दिलें. आपलेकडलो अमृतकुंभ जनसामान्यांच्या घरा घरांत व्हरुन तांकां पिवपाक दिलो. युगायुगामेरेन शाश्वत अशा त्या अमृतकणांनी कितलेशाच जाणांच्या जीवनांत चैतन्याचे मळे फुलयले. आनी तूं स्वतःक भगवंत म्हणपी गाडयांनी भोंवता. तुका चाळीस हायफाय गाडयो किद्याक लागता? अकरा अकरा बंगले किद्याक लागता?

**बाबा** – आरे बाबा किद्याक लागला तूं म्हज्या फाटल्यान. पांयें पडटा हांव तुका. जाय जाल्यार म्हज्या संप्रदायाचो पीठाधीश करता तुकां. पुण आतां म्हजी फाट सोड. हांवे खंयच्याच बायलेची अब्रु लुटुंक ना. सेवा केल्या सेवा. भुरगीं नाशिल्ल्या कितल्यातरीच बायलांक भुरगीं दिल्यात हांवे...

**राजदीप** – तांचेर बलात्कार करुन?

**बाबा** – आरे तांचीय सेवा कोणेतरी करपाकुच जाय आसता. शिश्य म्हज्या कार्यांत रमलेले आसता. अशावेळार तांचे आपल्या बायलांकडेन आनी चलयांकडेन दुर्लक्ष जाता. जशें आमकां दादल्यांक शरीर आनी शरीरसुखाची इच्छा आसता तशेंच बायलांकूय शरीर आसता. तांकाय जाय आसता कांय ना सुख? शिश्य आपल्या बायलांक सुख दिनात. आनी तरनाट्या चलयांचीय लग्ना बेगीन करीना... मागीर तांकां सुख मेळटलें कशें?

**राजदीप** – म्हणून तूं दिता...? बास्टर्ड...

**बाबा** – आरे प्रेमानंदा, म्हजे हॅलीकॉप्टर आयलें कांय ना रे?

**प्रेमानंद** – ट्राय करता बाबा. (मोबायलाचेर उलयत आसा)

**इन्सपेक्टर** – तुका पोलिसांनी वेडो घातला. हांगच्यान तूं खंयच वचूं शकचो ना.

**राजदीप** – तूं जर आसा भगवंताचो अवतार, जाल्यार आतां दाखय तुजो चमत्कार. म्हण मंत्र आनी मागय पुष्पक विमान. आपय आपय विमान आपय... (पुलीस येता आनी प्रेमानंद आनी सदानंदाक ओडीत व्हरता. धा बारा पुलीस येता आनी बाबाच्या सभोंवती उबे रावतात. बाबा एकदम

भीता.) दाखय... दाखय तुजो अवतार.

**बाबा** – (घायाळ जाता) ना... ना... हांव भगवंताचो अवतार ना. ना हांव सं ना भगवंत. म्हजेकडेन कसलेंच दैवी सामर्थ्य ना. हांव एक फटींग. फटींग बाबा. महाराष्ट्रातल्या यवतमाळ जिल्ह्यांत एका ल्हानशा गांवां जन्माक आयलो. म्हजे नाव नरेंद्र नाणीजकार. आवय बापायन मोठ्य कश्टान शिकयलो. पीडब्ल्युडी डिपार्टमेंटान कामाक लागलो आनी थयं म्हाका पयशांचे पिशें लागलें. बाकीचे अधिकारी चोरताले तशेच हांवेनू डिपार्टमेंटातले सात लाख रुपया चोरले. एका पत्रकारान ती बातमं छापली. पुलिसांनी चवकशी केली आनी म्हाका भ्रष्टाचाराच्या गुन्ह्यासकय जेलींत वचचो पडलो. जेलींतल्यान सुटून आयल्या उपरांत मन विटील्ले हातीन पयसोआडको नाशिल्लो. परत पयशांच्या फाटल्यान धांवूं लागलो. सुलतान अली खान ह्या तांत्रिकाच्या नादाक लागलो. ताज्य सगळ्यो गोश्टी शिकलो. हातचलाखी... हिप्नोटीझम... जादुचे प्रयोग. केमिकलाचे प्रयोग... सगळें सगळें शिकलो आनी बाबा म्हाराज जाले लोक म्हाका नरेंद्र म्हाराज म्हणून वळखूंक लागले. पळयता पळयत म्हजो एक संप्रदायच तयार जालो. आख्ख्या महाराष्ट्रांत संप्रदाय वाडल्य उपरांत दिल्लीक गेलो. थंयचे पत्रकार आनी पुलीस अशेंच तुमच्यासारर म्हजे फाटीक लागले म्हणून चार वर्सां पयलीं ह्या तुमच्या गोंयां आयलो. म्हाका दिसताले गोंय ही देवभूमी. गोंयचे लोक सादें भोा आसतले. धार्मिक आसतले. पूण तुमी गोंयकारांनीच म्हाका... सोडा. सोडा म्हाका... ना... ना... हांव भगवंताचो अवतार ना. (बाबा जमनी पडटा आनी सगळो लोळटा. मधुमिता, भाटकार, केशव भाल्यांनी त राजदीप पेनासारक्या दीसपी भाल्यान आपल्याचेर हल्लो करता अस बाबाक भास जाता. रोकडेंच टीव्ही कॅमरावाले, पत्रकार येता. पुलीर बाबाक बेडी घालून व्हरता. राजदीप आनी देसाय हे दोगूच उरता)

**इन्सपेक्टर** – राजदीप, शेवटाक तुवें ही लडाय जिकलीच.

**राजदीप** – फक्त अर्दी लडाय जिकल्या. आतां फुडे कोर्टान हाका कडक शिक्ष दिवंक जाय. ती शिक्षा भोगल्या उपरांत हाज्यात मनीसपण येवपाव जाय. ताणे अंधश्रध्दा मिटोवपाचे काम करपाक जाय. लोकांनी आलाय

मेळोवपाची इच्छा सोडून कश्ट करुनच यश... सुख मेळोवपाक शिकपाक जाय. तुमचो वर्तमान आनी भविश्य घडोवपाची ताकद तुमचेकडेनूच आसता. तुमच्या ताळ्यांत, तकलेंत आनी मनगटांनी दैवी शक्ती आसता. शिक्षण आनी कठोर परिश्रमांसून ती शक्ती जागृत जाता आनी यश तशेंच सुखांतल्यान ती आमकां दिसूंक लागता. लता मंगेशकर जेन्ना गावपाक लागता तेन्ना देवाचे दर्शन जाता. सचिन तेंडुलकर बॅटींग करता तेन्ना ग्रांवडाचेर देवाचे दर्शन जाता. अशा तरेन ज्या ज्या जाग्यार कश्ट आनी परिश्रम आसता थंय थंय इश्वरी शक्तीच्या परमळांत सगळ्यांचे जिवन परजळींत जाता. तुमीच आसता तुमच्या जिणेचे शिल्पकार, ही स्वामी विवेकानंदांची उतरां सगळ्यांनी सदांच लक्षांत दवरपाक जाय. उठा, जागे जायात आता. (राजदीपाच्या फाटल्यान किरणां पसरतात. मंगल ध्वनी, प्रसन्न वातावरणांत पड्डो पडटा.)

**...सत्याचो विजय**





हांव भगवंताचो अवतार या नाटकाच्या हातबरपाचें विमोचन करताना प्रख्यात नाटककार पुंडलीक नायक आनी दाव्या वटेनच्यान लेखक राजू नायक, समाजसेवक निळकंठ भोकार, जिल्हा पंचायत वांगडी निलेश शिरोडकार, रंगकर्मी नरेश नायक.

राजू नायक हो पिंडान पत्रकार. पत्रकार हो समाजाचो एक महत्वाचो आधाररस्तंभ! तांतूतल्यान खुपशा गजालींक वाचा फुट्टा. राजू नायकान जें नाटक बरयला 'हांव भगवंताचो अवतार', तातूंत तो नाटककारावांगडाच पत्रकार म्हूण स्पश्ट दिसलो. एका अंधश्रध्देचेर ताणें बडी मारल्या. ह्या नाटकांत लेखकान मनशाच्या वृत्ती–प्रवृत्तीचेर उजवाड घातला. जीवनातल्या वेगळ्या वेगळ्या विशयांक, घटना, प्रसंगाक स्पर्श करीत, मनशाच्या अडचणींक, आशा निराशांक आनी शाश्वत मूल्यांक परिणामकारक रुप दिवपाक नाटककार यशस्वी जाला. जीवनाचो व्हडलो परीघ ताणें ह्या नाटकामदीं हाडला. हे कोंकणी नाटक आसलें, तरुय तें खंयूय घडूंक शकता. ताका भाशेची मर्यादा ना, ताचो हेर भाशांत अणकार जालो, तरी ते नाटक त्या त्या भाशेतलेंशे दिसतले.

सुटसुटीत कथानक, आपलें स्वतंत्र अस्तित्त्व आशिल्ली पात्रां, नेपथ्य सादे सोपे, भाशा ओघवती, उत्कंठा वाडोवपी संवाद ताका लागून या नाटकाचे कितलेशेच प्रयोग जांव येता. तेचवांगडा एक विचारुय हें नाटक दिता. राजून नाटकांतल्यान विचारिल्ले प्रस्न मनशाचें मन हालोवन सोडटा आनी तकली जागी करता.